# कथाकुंज–१

★


–: लेखक :–

बैंदूर देवराय अय्यगळ





कोंकणी साहित्य समिती प्रकाशन

# कथा कुंज—१

श्री मोरायास ह्यांका
आदराचि भेट
बैंदूर देवराय अय्यगळ



लेखक :- बैंदूर देवराय अय्यगळ

रु. १-५० पैसे

कोंकणी साहित्य समिति प्रकाशन

लेखक :

बैंदूर देवराय अय्यगळ,
रत्ती विला,
बाई मोतीबाई स्ट्रीट
मुंबई-७

ह्याची लेखकाल्यो मुद्रणेंतु

आशिल्यो कृत्यो :-

**सामाजिक नाटकं :-**

सोयरिके संभ्रम
आप्पुलें अथर्वण
प्रिति खातिर. (उपलब्ध)
दुडवा ध्यासु
उद्यगणि उद्योगु
बावीसारि बारसो.
फोंडुलें पंनंबर
सुखा संसारु
हुडहुडि व्हरेतु

**पौराणिक नाटकं :-**

सत्यव्रत कर्ण
पंचरात्र-[ उत्तर गोग्रहण ]
मध्यम व्यायोग [ नाटिका ]

**एकांकिका :-**

लाचारी लात [ सामाजिक ]

**कथा :-**

पंचतंत्रकथा
वेताळ पंचविशी
होडेम्माल्यो काणयो

**लेख:-**

भास कवी



प्रकाशक :-

कोंकणी साहित्य समिति,
८/१ तालमक्की वाडी,
ताडदेव रोड,
मुंबयि-७

## –: अ नु क्र म णि का :



★

ॐ श्री गणेशाय नमः
ॐ श्री गुरुभ्यो नमः

# एकादशी कथा

चांद्रमान म्हैन्याचि इकरावि तिथी एकादशी आनि ती प्रति पक्षांतु एक वेळा येत्ता हें आमि सर्व जाणताति. वरसावधींतु येवच्या एकादशां पैकिं आशाढ शुक्ल एकादशी शयनि आनि कार्तिक शुक्ल एकादशी प्रबोधिनि, श्रीमन्नारायणाने निद्रागत आनि जाग्रत जालेल्यो अशि क्रमाने महत्वाच्यो जावनु आसति. कोसानु कोस दूर थावनु पायींचि परमेश्वराल्या नांवाचो घोषु करित पंढरपूर इत्यादि सुप्रसिद्ध क्षेत्रांक वचचो परिपाठु महाराष्ट्रांतु आस.

एकादशी व्रत वर्णु जातीचो निर्बंधु नासताना कोणेयि आचरयेद्. अय्यापणाच्यानि ( सौभाग्यवतीनि ) मात्र पतील्या अनुमति विना खंचेयि व्रत आचरुक नज्ज. आचरलेल्या पक्षाक तांगेल्या सौभाग्याक हानि आस, अशि शास्त्र. एकादशी व्रताचो परिपाठु भरतखंडांतु कशि लागूनु आयलो हाजि येकि भारी मनोरंजक कथा आस ती अशि—

अनेक शतमान माक्षि द्वापर युगांतु कौरव-पांडवांक कुरुक्षेत्राच्या रणांगणांतुं घनघोर युद्ध जालें. त्या तुमुल युद्धांतु श्रीकृष्णु आनि सत्यधर्मु पांडवांल्या पक्षाक आशिल्या निमित्तिं कौरव तांगेल्या इकरा अक्षोहिणि सैन्या समेत नाश पावले. पांडव विजयी जाले. म्हालगडो भावु युधिष्ठिराक राजपाटु जावनु सगळेंचि पृथ्वीचें राज्य तो न्यायनीतीक अनुसरनु कोरुक लागलो. परंतु सर्व थरेंचि ऐश्वर्य उपभोगाचिं साधनं समृद्ध आसतनायि तागेलें मन रमना जाले. "येका राज्यालोभानें भूतदया विसरनु राक्षसवृत्ति धारण कोरनु स्वकुलाचो, स्वगोत्राचो नाशु केलो !! सुखा संसारु थाटुनु आशिल्या लक्षावधि गरत्यांक विधवांगेल्या दुस्थितींतु धिंगुळल्यो !! आनि तांगेल्या चरडुबाळांक अनाथ केलीं. विद्यागुरु द्रोणाचार्यालो थायि घातु केलो म म्हुणु भारि शोकु पावंच्याक लागलो. चिके पुणि मनाक गेलवु मेळो म्हुणु केलेल्या उपाया गणकाणि तागेलि

खंति विपरीत वाढूक लागलि. तावळि त्या थरेनें ताने व्यथा पांवचें पोळोवनु द्रौपदी भो भो कष्टी जालि. त्या बावडेक आधाराक बगा पुणी कोण आस, येका कृष्णाशिवाय? तिन्ने, कसायालो खांडो मान्नेरि पडलेल्या क्षण गायि ज्या आंत्तं कलकलांवच्या स्वरानें अंबेता, त्या स्वरानें, "कृष्णा, वासुदेवा, देवकि नंदना, खंयि आस, तुं? मज्येरि भयंकर संकट कोसळल्यां. मगेलो पतिदेवु युधिष्ठिरु महारायु शोकसागरांतुं बुडला आहार विहार त्यागुनु दुःखा मांच्यारि आस, ताने सोडचो तो सुस्कारो मनांतुं भेज्झारोच्चि भरता !! कृष्णा, माका तागेल्या जिवाचीच्चि काळजि दिसता. वगीच्चि येना इत्याक तु? मगेल्या कळवळ्याच्चि ही किळच्चि तुका आयकू पडनावे? हे गिरिधरा, माक्षि अनेक वेळा तुं मगेल्या संकटांतुं पावला. मगेल्या अदृष्टांतुं त्या विधाताने कसलें बरयिल्यां तें सांगूक पुणि येका घडिये मात्तूक योरे !! कृष्णा, मगेल्या दये कृष्णा मगेल्या माये कृष्णा येक फांता यो रे !!" ह्या प्रमाणें ती पतीव्रता शिरोमणि द्रौपदि आक्रांतु कोरुक लागली. हें जालें हस्तिनापुरांतुं.

त्या वेळारि तो पांडव-पक्षपाति हृषिकेशु द्वारकेंतु जेवणाक बशिलो. आपणाल्या भक्तांल्या उल्यांक त्या दिनानाथालि कोणि अवस्था जात्ता आयकयाति. तोंडांतु घालेलि उंडि ताळ्याकच्चि शिरकता, उद्दाक पिळ्ळचारी आंटितुं वत्ता. "आपणाक आजि आशि इत्याक जात्ता" म्हुणु जेवंचो हातु तडवोवनु अंतर दृष्टिने पळयिता, तागेलि मोग्गाच्चि भैणि पांचालि भौ कंगाल स्थितेंतु दिसलि ताका. ताने तडवु केल्लावे? आंवचें शास्त्र केलेलोच्चि मनोवेगानें वचूनु द्रौपदी इदूर उबरलो. ती ताका त्वयेंने युधिष्ठिराने आशिल्याकडे घेवनु गेलि. श्री कृष्णाक देकूनु आजातशत्रु युधिष्ठिराक येकु आनन्दु जालो सांगचो न्है! ताने अर्घ्य, पाद्य इत्यादीनें त्या पद्मनाभलो योग्य सत्कारु कोरनु ताका आपणे केलेल्या हत्याकांडाचें प्रायश्चित्त कसलें की निमगीले. तावळी श्री कृष्ण परमात्मु म्हणालो "त्रिभुवनांतु विख्यात असलें एकादशी व्रताचें महात्म्य सांगतां आयकया".

एकादशी देवीने प्रचंडु पराक्रम कोरनु देवांगेले रक्षण केलेलें माक्षि येक फांतां". तें आयकूनु श्रीकृष्णालो प्रियसखा विचारता, "देवा हि एकादशी कोणि, कोणाल्या उदरांतु जन्मलि? तिने खंचो पराक्रमु

केलो, आनि देवांचेरि आयिलें तें घोर संकट तरी कसलें" ? श्रीहरी म्हणालो "सांगतां आयकया. एकानु एका कालांतु कुंभागेलो पूतु मृदुमान्य म्हुणु येकु दैत्यु आशिलो. त्याने रान्नांतु वचूनु वायु भक्षण कोरनु कठीण तपस्य केले. तागेल्या भक्तीक भूलनु भोलानाथ इश्वरु ताका प्रत्यक्ष जालो, आनि माक्षि अनेक दैत्यांनि वरु प्राप्त कोरनु आपणाचेरि उप्परतूनु पडलेलि अनेक संकटं येवजणेक येवनूयि त्या भोळ्याने मृदुमान्याक वरु मागूक सांगलें, दैत्यानें मागलें "हे त्रिपुरांतका, तेत्तिस कोटि देवांक लगीन हांव अजिक्य जायशि वरू दी माका" इश्वरु "तस्थातु, जलचरि येका स्त्रील्या हात्तानें तुका मरण येतले" म्होणनु अदृश्य जाल्लो. मृदुमान्यु मनांतु विचारू कोरनु हासलो "पिसो रे पिसो. हो भोलाशंकरु भो भो पिसो. देवादिकांक वश कोरनु घेतल्याक यःकश्चित अबलेलें भय घालता. माक्षि मगेल्या पूर्वजांक विश्वेश्वरालें वरदान आसतनायि विष्णूने वंचन कोरनु मारलेलें. त्या कपटि विष्णूकचि केदना की हांवं खाक्यांतुं मारतां माका मृत्यूलि बिसात कसलि ? तरी इश्वराने इकडि कोरनु फट्टी वरु दीने म !!" अशि मनांतु संशयु येवनुं तो वराचि परीक्षा पोळोंवच्याक इंद्राल्या आंगारि पडूक धांवलो. क्रोधाविष्ठ दैत्याक देकूनु देवेंद्र् किरातागेलें सूणें फाट्टिक लागिल्या सोश्यावारि ब्रह्मलोकाक धांवलो. दैत्यु सिंहनादु करित फाटि धोरनु गेलो. तागेलें तें अकराल विकराल रुप आनि ताने कोरचो अबराडु आयकूनु ब्रह्मदेवाल्या हेरयांतु धडको भरलो. अर्धांगि सावित्रि घेवनु तो मागदरांतुल्यानें जुगुळलो, आनि धाप्पेतचि धाप्पेतचि विष्णूक शरण गेलो. "हे दैत्य दमना, कैलासनाथालो वरु प्राप्त कोरनु घेतिलो दैत्यु मृदमान्यु चाळवला. सावळीसो फाटि सोडना. आमकां सर्वांक आपणाल्या कोटग्यांतुलें खात बरगूंवच्याक लायतां म्हुणु पंथरसूनु घेवनु सुटला. नारायणा, त्राहि ! त्राहि !! त्राहि !!!"

मुखारि गति कसलि हो विचारु कोरुक अवकाशु ना. मृदुमान्यु मद आयिल्या हस्ते प्रमाणें तांका जिवशीचि मारुक गेलो. जीवा आशेक ब्रह्मा, विष्णूंनें तांगातांपेल्या बायलां समेत कैलासाक पळु काडलो, आनि शंकराक शरण गेले. शंकरुं थायि आपणे दिलेल्या वराक आपणाचि अपयश हाडना म्हणता. इतलें उल्लिचि घडि.

"हांगा मेळल्यां त्रिकूट ? येककळ्यांकाचि आशि येकेकु थडाको दित्तां, खाल्यारीचि कळका". अशि म्हणत एकी प्रचंड गदा धुंवडायित मृदु-मान्यु देवांक भेरसूनु व्हरता. त्रिमूर्त्यो बायलांक घेवनु आड वाटेने येका रुकाच्या पोकरलींतु रिगूनु बसतातिे. पावसांतु आंवगालि तिंबूनु थाप्पे. अन्न ना उद्दाक ना, पाय निट्टनु बैसूक लगेने जाग्याक बगा ना. अवस्था तांचि !! धांवडे आयासाने भुके संकटाने तांका थंयि बशिल्याकडेचि कूरुणि आयलि.

चिक्के हुसको हगूर जात्ता म्होणूक अवकाशु ना, आयलोचि दैत्यु. तो हगूर पावलानि वचूनु रुकाच्या पोकरलींतु निलकलो. ब्रह्मा, विष्णू, महेश्वरु, सावित्री, लक्ष्मी, पार्वती, सयिजण आसति. शिया कलकल्याक रांधाणि पोर्लाचो आश्रयु घेतिलि माजरंशि गुडालि जावनु बसल्याति. उत्तर ना, मात ना, आंगारी यत्त्वरुचि ना. ताळो सुकूनु गेलेलो, जीव कांटेबनु माळियेक खिचिलि. दैत्यु "तांचो सानुसो खेळु खेळोवयां" म्हणालो आनि ताने गर्नेलु मारिल्यावारि एकी ताळि पेटलि. ताळये शब्दानें तांनि "अय्योम्मा" म्होणनु भीवनु आंगचि काडले. तांचा तोंडातुल्यानें आयील्या त्या उद्गारा प्रभावनें एकी देवि उद्भव जालि. तिगेलें लावण्य आनि मुखकांति देकूनु मृदुमान्यु देहभानचि हरलो. क्षणार्धांतु सावध जावनु तिका तानें प्रश्नो केलो " हे त्रिभुवन सुंदरी, तुं कोणि ह्या निबिड अरण्यातु कसलें करता ?" देवि खणखणी स्वराने उत्तरलि "हांव एकादशी, त्रिमूर्त्यांगेल्या श्वासानें उद्भव जाल्यां, तुगेलो योग्यु समाचारु घेंवच्याक. 'तावळि दैत्याने चेष्टा केलि' "ओहो !! मगेलि दासि म्हुणु धाडनु दिल्यावे तुका देवानि ? चिंता कोरनाका. हांव तुका मगेलि पट्ट राणि करतां. ईश्वरालो वरु आस माका". एकादशी कोप्पाने खवळलि. "मूर्खा, पामरा, इश्वरालो अर्ध वरु तूंवे सत्य केलो. उरलेलो अर्धे फलद्रूप कोरुक हांव आयल्या. राब युद्धाक शस्त्र संबाळि तुगेलें" म्होणनु तीक्ष्ण भालो मारलो, भाल्याचे ताने तीनि तुकडे कोरनु तो गजलो "ह्यं ! ह्यं !! ह्यं !!! आपण स्त्री तरी उत्तं वीर पुरुषागेलि. त्या कोमल हात्तनि मजसल्या वीरागेलो उपचारु कोरचें सोडनु युद्धाचें पारिपत्य कोरुक आयल्या ? नेराने माका शरण यो. ना जाल्यारि परिणामु वायट जायद." "तो परिणामुचि पोळोंवचो

आस माका" म्हणालि देवि, आनि तिने रुद्रावेशाने ताज्येरि भयंकर शस्त्रं सोडलीं. सर्व मृदुमान्यानें खंडण केलि. हो विपरीत प्रकारु अंतरिक्षांतु राब्बूनु पळयित आशिले देव भयभीत जाल्ले, आनि तानि येक खड्ग अभिमन्त्रूनु तग्गु उडयिलें. एकादशीनें तें खड्ग अळंग जिंकलें आनि ताजा येकाच्चि प्रहारानें मृदुमान्यालो शिरच्छेदु केलो. देवादिकानिं आनंदाने पुष्पवृष्टीं केली. समस्त लोकांक स्वास्त्य मेळलें. त्या मितेक सकल देवादिकांक निर्जल निराहार उपवासु जालेलो. त्या निमित्तिं एकादशी दीसु लंघन कोरचें व्रत आमगेल्या पवित्र भरत खंडांतु लागूनु आयलें.

इति श्री एकादशी आख्यानम् समाप्तम् ॥

★★★
★★
★

# सं ग म

किंवा

# ना ग पं च मी

नारायणम् नमस्कृत्य नरम् चैव नरोत्तमम्।
देवीम् सरस्वतीम् चैव ततो जयमुदीरयेत् ॥

आचार्य–भरतकुलश्रेष्ठ जनमेजय महाराजाक जयजयकारु आसो. राजन् सहस्त्रवधि वरसं कुरुकुलांतुं चलनु आयिलें हें राज्य धर्माप्रमाणें तुका मेळल्या, बालवयांतु अभिषेकु जावनु तुं सर्व प्राणिमात्रांगेलो पालकु जालो, राजमुकुटा सांगताणि इतलो होडु भारु मात्यारि आयिलो, मात्यारि हातु घेवनु इत्याक बसला ?

जन– आचार्य, हो पितृशोकु माका अति दुस्सह जाल्ला. मज्जेरि तागेलो प्रगाढ प्रेमु आशिलो, आनि ताजि येवजणि आयलि की एकेकु विचारु सहस्त्र ज्वालांच्या दाहानें मगेलें अंगअंग सर्व लास्सूक लागता. कुरुवंशु नष्ट जावंच्याक नज्ज म्हुणु श्रीकृष्ण परमात्माने वारनु मगेलि महामाता उत्तरेक सति वचुक सोडने आनि तिने जतन केलेलो तो गर्भु जन्माक येवनु परिक्षित म्हुणु नांव पावलो. तागेल्या धर्म निष्ठेने, पराक्रमानें, अनि वैभवानें कुरुकुलाचि कीर्ति शुक्ल पक्षांतुल्या चंद्रावारी दिने दिने वाडत आसतना अकस्मात् अल्पायुष्यारि साठि वरसांरि तागेलें तेजस्वी जीवन समाप्त जाबंकाज ! तागेल्या प्रारब्धाचो भोगु हो की मगेल्या दैवाचो दुर्विलासु ! ! न्हे जाल्यारि मगेल्या सर्व पुर्वजांनीं क्षत्रियांक शोभचो पराक्रमु करीत रणांगणांतु धारातीर्थी देहं दवरलीं नावे सुखाचें पूर्ण आयुष्य पोळोवनु स्वर्गाचि वाट धरली। अशि आसतना

मगेल्या ताताक मात्र हासाहासी घरांतु बशिल्याकडे अपमृत्युनें मारनु व्होरुक कारण कसलें. कोणालो जोडनु घेतिलो ताने कोपु ?

आः– शृंगी ऋषीलो शापु. ते नंतां, राजन्, तीनि अटरा, तीस आनि साटी हीं मानवांक कंटकाचिं वरसं म्हणतातीं.

जन– मान्य केलें तरी आचार्य, प्रति शापाक एकु उश्शापु, कंटक-निवारणेक एक शांति ही प्रथा पुराणकाला थोरानु चलनु आयिली आसतना मगेल्या ताताक मात्र ती उपकाराक पडने इत्याक ?

आ– तो एकु कालु. तुगेलो बाप्पुसूने–परीक्षितराजानें–मृगयेक गेल्लेले कडे वनांतु मौन व्रत धारण कोरनु बशिल्या शमीक ऋषीलया गळ्याक मेलेलो सर्पु वेडायलो, आनि तो आपणाल्या राज्याक परतलो. त्या उपरांते शमीक ऋषीगेल्या उग्र तपस्वी पुत्ताने शृगीने तें चोवनु शापु दिलो. उश्शापु घेवंच्याक तुगेलो बाप्पुसु थंयि नाशिलो. म्हुणुचि तो एकु कालु म्हणले. ब्राह्मणालें उत्तर मिथ्यां जावनये म्हुणु तक्षकानें कपट प्रवेशाकोरनु विषप्रयोगानें परीक्षितालो जीवु घेतलो. विष गुण कोरुक महदौषधि घेवनु आयिल्या काश्यपऋषीक थायि त्या दुष्ट नागराजानें विपुल धन दीवनु वापस पेटायिलों.

जन– तरी त्या नीच नागाक योग्य शासन जावंकाजचि. तागेलिं अनेक दुष्कृत्यं मगेल्या कान्नारि आयल्यांति सकाळींचि ऊत्तंक महामुनी दूरु घेवनु आयिलो. तान्ने खैं गुरुपत्नील्या पुण्यक व्रताच्या पुर्तीक कुंडलं घेवनु येतना त्या दुष्ट अंतःकरणी तक्षकानें तीं अपहरलीं, आनि, नाना थरेने त्या मुनीश्वरालो छलु केलो. हे नाग बहुकाल थेंगेनु आमकां आर्यांक विपरीत पिडा दित आसति. सर्पसत्रांतु आहुति दीवनु त्यां अधम नागांक नामशेष केल्यारीचि मगेल्या प्रजेगेलें रक्षण जायद, आनि हांव पितृऋणां थावनु मुक्त जायन. म्हुणुचि, उत्तंक मुनीलो आनि

आचार्य, तुमगेलो उपदेशु आयकुनु सर्पसत्राचि दीक्षा घेवनु बसलां. कुलाक एकु पुत्रु जायि, पुत्रु ना ताका सद्गति ना म्हुणु आमगेलीं शास्त्र पुत्रांगेलिं पत्राजं सांगतातिं, आनि धडधडीचि हांवे आसतना मगेल्या पित्यागेलो प्राणघातकु तो नीचु नागु मोकळीचि मेरवत आस. परंतु येकु विचारु येकसम मनांतु घोळत आस.

आ– कसलो तो सांग, हांव ताजें निरसन करतां.

ज– सत्र म्हणलेल्या उपेरातें ताका एक व्यापक स्वरुप आयलें. हो आनि तो भेदु करनासतना यच्यावत नागांगेलि आहुति दिवंका पडतलिम. तक्षकाल्या भावंडांतु तेगजण शेष अनंत आनि वासुकी आर्यलोकांकडे अन्योन्य मैत्रीने आसति. भावाल्या पापा पासावत निरपराधि निरुपद्रवी तांकांयि देहांत प्रायश्चित देवंचें ?

आ– राजन् तुं निश्चित राब. मित्र घाताचें पाप तुका केद्नायि लागशिना तुका सल्लो दिंवच्या पैले आमि भगवान व्यासागेलो सल्लो घेत्तिलो, हें तुका सत्य सांगतां. हें जें सर्पसत्र तुंवें अगिकारल्यां तें माक्षि नागांक तांगेल्या आवसूने कद्रुनें दिलेल्या शापाक अनुरुप आस. तिगेल्या उश्शापा प्रमाण वायट नाग मरतले. बरे सर्व वरतले. पित्यागेलें रुण फेडचो तुगेलो हो घन हेतु जावनु आस. जावचें सर्व विधात्याल्या योजनेनुसार म्हुणु लेकून तुगेल्या कर्तव्यांतु खंड पडनाशी काळजी घे. आयचें यज्ञ मंटप बांदूक आयिलो तुगेलो वास्तु विशारदु यक्ष त्रिद्यायि जाणता. ताने म्हणल्यां ह्या सर्पसत्रांतु येकळो ब्राह्मणु विघ्न हाडतलो.

ज– तरी द्वारपालाक सक्त आज्ञा दीवनु दवरतां, माका कळयी नत्तिलें ताने कोणाकयि भित्तरी सोडनये.

## प्रवेश २ रो

वासुकी–हुँ ऽ ऽ ऽ !!! (सुस्कारो सोडनु) परमेश्वरा, तुगेलि इच्छा !!

जरत्कारु- अण्णा, हृदयाच्या पोंदाथांवनु खंच्या दु:खाचो धापु तो तुंवे काडलो. आरे !! तुगेल्या दोळ्यांतु अश्रु !! कसलें संकट आयिल्यां तुज्जेरि ?

वा– प्राणसंकट मज्जेरि मात्र न्हे, जरत्कारु, सगळ्या नागकुलाचेरि !! शापु दिलेल्या कद्रुमातेने उश्शापु सांगिल्लो, तो फलिताक येवो म्हुणु सगळ्या जनांक सांगत आयिलों, की, पाप्यानुं, ह्या मुखारि पुणी तुमगेलें दुर्वतन सोउनु सन्मार्गाक लागाति. आर्य आमकां सहोदर तांचकडे वैरविरोधु करनासतना, स्नेहाने तांचवारीचि सत्यनिष्ठेने चलाति. तरीचि तुमगेलें कल्याण जातालें; शिलेचेरि शिवरि तशि मेगेलो उपदेशु तानि कान्नावेलो प्रसादु केलो. आणि जी दुर्घटना येवनये म्हुणु हांव जन्मुभरि झटलों ती आयलीचि

जर– अण्णा, धीरोदात्त वासुकी म्हुणु तुगेलि कीर्ति. तूंचि चिंतेनें चूर्ण

वा– जरत्कारु, आत्तं कोणालीयि चिंता कोणयि करीशिना. कोणालीयि आशा कोणेयि धरीशिना. सर्व एका माक्षी एक नाश पावतले; विधात्यालें शासनचि तशि आसल्यारि कोणाकडे तें न्हें कोरुक जायद !

जर– अण्णा विधातालें शासन कशि आस तें मक्षि तान्नेचि तुका सांगिलें आसम, विसरलो की इतें.

वा– ह्या भयंकर विपत्तीनें मगेली मतीची मंदावनु सोडल्यागोमा! ! अय्यो !! तो सर्प सत्रांतुलो प्रकारु आमगेल्या सात जन्माच्या वैऱ्याक थायि नाका, तो आजि मंगेल्यात्रि कुलकुटुंबिच्यांक जाग्रत आस. काळीं वस्त्रं परिधान केलेले, धुवराने दोळे तामडे

जाल्लेले याजक हृदयांतु कंपु भरोवंकाज तसले प्रखर मंत्र म्हणताति. आमगेले प्रियनाग, हातपाय गळनु हैराण जावनु लोळात्यो घालित यज्ञकुंडांतु पडताती. पंचमहाभुतांनी देह भेदूनु भायर पडतना जांवचे तांगेले वळवळे चोवंच्याक जायनाति ! हाल आयकुंच्याक जायनाति !! मगेले कान, दोळे भेत्तनु लगेने वचनाति इत्याक !! (रडता.) आम्मा !! आम्मा, कितलो भयंकर शापु दिवनु दवरलो गो तुवें आमकां !! आम्मा, जन्मदात्रीक धरीत्रिगेली उपमा दिताति, कितलेंयि खांडोति कोच्यावोति प्रसन्न चित्ताने विपुल अन्न अहारु दितली तसल्या क्षमाशील धरीत्रिगेली उपमा दित्ताति, आनि तुवें, स्वपरिवाराचें अहित यवजीलेलि निष्ठूरि म्हुणु आपकीर्ति घेतलिमगो !!

जर– अण्णा, आम्माने अपकीर्ति घेनि; कुलाचें कल्याणचि यवजीलें. सुक्कूनु खोड जालेले रूक कशिकी येकळाक अप्पण उज्जने पेटताति आनी सगळी वनश्री लासूक फावताति, तशीचि कुपुत्र कुलनाशु करताति हें सिद्धांतशिलें आम्मागेले. तिने सांगिलें येक सानशें काम तांका कोरुक नज्ज जालें, हीं लक्षण बऱ्याचि दिसनेति आम्माक. देवा प्रमाणे आशिल्या मातेगेलो द्रोहु केलेले, देशद्रोहु राजद्रोहु कोरूक केदनायि धजशिनाति हें त्या धूर्त मातेक दिसलें. असल्या कुलांगारानि दक्ष-कश्यप कुलांक कलंक हाडूक नज्ज म्हुणु निष्ठूर जावंचो तिका भागूनचि पडलो. शापु दिलो तरी ती धरित्रेवारि क्षमाशील म्हुणूचि तारणेचो उश्शापूयि दिलो. आम्मालिं तर्क तंतोतंत सत्य जालिं. तक्षकाने परीक्षित राजाले प्राण हरण केले. आजीक जातिभेदु भाषावादु तत्ववादु म्हुणु क्षुद्र निमित्त धोरनु जी अवास्तव उपहति पसरल्या ताका आमगेले नागलोक मुखंड आसति दुस्तर परिस्थिति निवारूक सर्पसत्राचो निष्ठूर उपायु येकूचि वरलेलो. आम्माने शापु दिलेल्या क्षण ब्रह्मदेवु हांसलो. तानेयि तीचि व्यवस्था केलेलि. आम्मा निमित्त मात्र जालि.

वा– आहाः !! आत्तं उगडासु जालो. समुद्र मंथनांतु तशीचि

अमृत मंथनांतुं हांवे मगेलें देह दंडन कोरनु देवांक सहायु केलो, आनि ब्रह्मदेवाने अमृत प्राशन कोरनु प्रसन्न चित्ताने बशिल्या वेळारि मातृशापाचो प्रस्तापु काडलो. तावळि त्या परमात्म स्वरूपाने सांगलें की सर्पसत्रांतु नागांगेले दुष्ट परिवार मात्र नष्ट जातले. आनि वरलेल्या सुचरितांक, येकाचि नावांच्या मातापितरांगेलो पिंडु, आमगेलोचि कुटुंबीचो येकळो वांचयितलो. म्हुणूचि, भद्रे, जरत्कारु तुका हांवे जरत्कारु रुषीक धार वतूनु दिलेलि. तुगेलो प्रिय पुत्रु आस्तीकु वयाने बालकु आसलो तरी वेदवेत्या वृद्धांगेलि मान्यता मेळयिलो तसलो जावनु आस. ताका मंत्रावनु धाडि. खात्रीने तो जनमेजयालो यज्ञु राबयितलो. अगदी संकटापन्न समयु आयला आमचेरि वग्गि आपयि आस्तीकाक.

जर– आस्तीक, बाळा आस्तीक (दूरच्याने "वो") हांगा यो मगेल्या आना च्चिके.

आस्तीक-कसल्याक आपयिलें आम्मा. इतलि कळवळेल्या इत्याक तूं आमा. माम्माल्या तोंडारि लगेने सद्दांचि हसत मुद्रा ना. कसलें जालें आमा.

जर– आस्तीक, मगेल्या देवा, हांव तुका केदनायि सांगतां पळे, ब्रह्म देवाने होड्डु येकु रुणाचो भारु तुगेल्या मात्यारि दीवनु तुका जन्माक घाला म्हुणु, तो भारु हगुर कोरचो समयु आत्तं प्राप्त जाला. आमगेल्या नाग लोकानि आर्यांकडे भयंकर वैर मांडवोवनु घेतल्यां, इतलें थायि की, वंचन, कपट, इत्यादि वक्र व्यवाहरांक, मागीरि ते कोणेयि केलेले आसोंति, ताका नागर्य नागवण म्हणताति आर्यलोक, सर्पांगेलें समस्व दितति, सर्पां म्हणके वध्य समजताति आमकां. जनमेजय राजाने आमगेलो निःपातु कोरच्या हेतूने, सर्पसत्र सुरु केल्यां. येदोळु आमगेले बहुसंख्य नाग हलाक जाले. बाळा आस्तीक, आत्त तुवेंचि वचून तें सत्र राबोवंकाज. वरलेले सर्व नाग आजि तुका शरण आयल्याति. वग्गि वच आमगेलें तारण करि.

आ.– आम्मा, आवसूलें उत्तर उलंघन केलेळ्याचो येकु घोर परिणामु घडत आसतना, डपरतूनु डलोवंचाक माका धैर्य येना. तरी आम्मा. यज्ञु तडवोवंचा तसल्या दांडग्या कामाचेरि वासुकि मामा असल्या पुण्यात्मानीचि वचचें बरें अशि दिसनावे तुमकां ?

वासु– बाळा, आस्तीक हांवे वचना जावंचाक अनेक प्रबल कारणं आसति. श्री विष्णुने, बलीगेलो व्रतभंगु केलेलो तुज्या येद्रोचि वामनु जावनु. बाळा, तूगेल्याचि हात्ताने जावंचें काम हें. ब्रह्म वाक्य खरें जावनु, जनमेजयालें सर्पसत्र सुरु जाल्यां, त्याचि वाक्यानुसार, जरत्कारू नावांचि आर्यपिता नागमातांगेलो तेजस्वी पुत्रतुं. हें सर्पसत्र थांबोवनु, आर्य नागांतु शांति प्रीतिचि घडि बसयि, उभयकुल दीपकु म्हुणु ख्याति मेळयि.

आ.– तुमगेलि आज्ञा, आशीर्वादु दियाति.

वा-जरः- तुगेलें कार्य सफल जावो.

–विराम–

जनमे– आचार्य, मगेलो महाद्वेशि तक्षकु, अनेक फांतां आव्हान दीवनूयि येना इत्याक? आमगेल्या कार्यांतुं खंड पोडूक लागल्यां. तो नेराने येना, तरी, ताका आश्रयु दिलेल्या इंद्रासमेत ताडनु हाडचें सामर्थ्य आशिले उग्र मंत्र उच्चाराति.

आचार्य–राजन् त्या मंत्रांचा प्रभावानेचि भयभित जालेलो सुरेंद्र तक्षकाक सोडनु घालनु पार जालो. तो पळे तक्षकु, हातपाय गळनु अत्यंत शरणागतीचो शब्दु करीत अंतरिक्षांतुल्याने पडत आस.

तक्षक ( आर्त स्वराने ) महेंद्रा, पुरंदरा, हे वज्रपाणे, इतले दिस माका अवस–आधारु दीवनु मगेल्या प्राणांतिक वेळारि माका सोडनु घालनाका ! वचु गेलो अदृश्य जालो ! आत्तं माका कोणुं त्राता!!

अय्यो ! सर्वांगाक पाश पडले! ताणताति, यज्ञकुंडांतुं घालताति वांचया कोणयि पुणी वांचया; आस्तीक, आमगेलो त्राता, तुका शरण आयलो ! ! रक्षण करि ! !
आस्तीक ! ! आस्तीक ! ! !

आस्तीक- राब, राब,थयींचि राब.

जन+आचा- आश्चर्य, परमाश्चर्य ! !

जनः- कोणुबा हो ! वयाने बालकु, खात्रीने आसका अवतारिकु. कोण कोटीचें हागेले तपोबल ! ! तक्षकाक तटस्थ केलो अंतरिक्षांतुं. भगवन्, हें घेवंकांज उच्चासन.

आस्ती : राजा,जनमेजया,सोम, वरुण, प्रजापति,इंद्र, इत्यादीनि केलेल्या यज्ञांक समान जावनु आस हो तुगेलो यज्ञु. सूर्यावारि तेजस्वि ऋत्विज हांगा जमल्याति. हांका दिलेलिं दानं कंदनायि व्यर्थ वचशिनाति. आमगेल्या प्रियजनांगेले कल्याण जावंकाज.

आचा : नृपश्रेष्ठा, जनमेजया, तुगलें यज्ञकर्म यथायोग्य चलल्यां. ह्या ब्राम्हणोत्तम आस्तीकाक वरु दीवनु प्रसन्न करि.

जनः- बाल तपोनिधे, सांग, कसलो वरु दीवुं ?

आस्तीः कुरुकुलोत्तमा, हें सर्पसत्र हांगाचि राबकाज, आनी नागांगेल्यो आहुत्यो पोडूक नज्जति, हो वरु दी.

जनः- विप्रा, भांगार रुप्पें, गाय्यो, अथवा दुसरें कसलेंयि माग. यजनांतु विन्घ हाडचि वृत्ति भूसुर करनाति.

आस्तीः-राजा, हांवे मागला हो वरु धर्माचो, नेणतेपणाचो न्हे. घन हेतूने यज्ञु कोरचो आसता. तुं करता तुगेल्या बापसूक मारलेल्या द्रोहाक प्रतिद्रोहु म्हणु. जग शास्ता परमेश्वराल्या व्यवस्थेविरुद्ध

तुं इत्याक असमाधान पावता? मगेल्या मातृ कुलाचो नाशु इत्याक करता? तुगेलें सत्र कशि पूर्ण कोरका तें हांव सांगतां, मगेल्या वराचें इतें करता तें तुं सांग.

आचार्यः-जनमेजया, यज्ञमंटपांतुं जमिल्या सर्व सदस्यांगेलें एक मत आस. तुवें वरु दिवंचोचि.

जनः- यज्ञु समाप्त जावो तरी, आचार्य. सर्व नागांलें अनामय जावो.

आस्तीः राजन, दक्ष प्रजापतीने तागेल्यो तेरा धुव्वो कश्यप प्रजापतीक दिलेल्यो, आर्य नाग हे सर्व तांगेलीचि प्रजा. आमगेलो, सर्वांगेलो मूल पुरुषु येकळोचि, तेदना, उभयतानि वैरभावु विसरनु स्नहाने राबकाज. आरे, नाग पराक्रमाने सामर्थ्याने सामान्य न्हें. तांगेलं साहाय्य मेळद, तुगेलं बल खात्रीने द्विगुणित जातलें. तांका येकळाक प्रसन्न करि.

जनः- भूसुरा, हांवे कसलें कोरका अप्पण जावो.

आस्तीः-आजि तिथि श्रावण शुद्ध पंचमि. नागांगेलो पूर्वजु, कालिया नागु, तागेलि पुण्यतिथि. श्रीकृष्ण परमात्माने ताका मोक्षु दिलेली तिथि, वर्षप्रति ह्या दिवसु सर्वत्र नागांक आदरातिथ्य मेळो, आनि हि तिथि नागपंचमि म्हुणु नामांकित जावो.

समाप्त

# अनंत चतुदर्शी
किंवा
# नोंपि

गिरिजाः–येया, बैसा. शारदा लक्ष्मुमि आजि कसलें कूट कोरनु आयल्यांति

लक्ष्मुमिः त्रिकुट समचि मांडोवयां हुणु आयल्यांती. आजि भाद्रपद शुक्ल चतुर्दशी न्हैवे ?

शारदाः-" अनंत चतुदशी ' माहात्म्य सुदर्शन टोकीसांतुं लागल्यां खैं. तुका सांगतणि घेवनु वच्चूक आयल्यांति.

गिः जंबार ना तुमकां. पैशे चड जाल्यातिवे ?

लाः- तशि इत्याक म्हणतागो गिरजा ! सचित्र शिक्षण भो परिणाम-कारक अशि तुंचि म्हणतालिमगो.

गिः– ' म्हणतलि कसलें ' ? केद्नायि म्हणतां. जाल्यारि तें अनंत चतुर्दशी सिनेमा चोवनु देवावेलि तुमगेलि भक्ति आनि तुमगेलिं भाविकपणं वाडतलिं अशि मात्र लेकूनाकाति. वृत्त-पत्रांतु त्या चित्रपटाचेरि आयिलें समालोचन हांवें वाचलें; आंगारि कांटे उबरले. पुराणकथेक आनि चित्रपटाक ताल-तंतूचिना. दीनदयालु त्या अनंतपरमात्म्याक येका क्रूर दैवताचें स्वरुप दिल्यां.

लः– तरि अनंतचतुर्दशीचें माहात्म्य तूंचि सांगूनु सोडि. सिनेमाचे पैशे वरले.

गिः– शारदे, बळवळ्ळे अनंतराया घरीचमगो तूं. तुमगेल्या घराण्यांतुं आजीक अट्टावीस वरसं लागायत नोपिं व्रत चलता. सांग पोळोवंयां कसकसलें करतातितें.

शाः– माका कळनागो. तुका गोमटें कोरनु सांगूक कळता. मस्त वाचल्यां तूंवें.

गिः– पुस्तकी ज्ञान उपयोगाक ना. सचित्र शिक्षण भो परिणामकारक. दोळ्यांनि पळयिलें तूंचि सांग. हं, मगेलें तोंड कसलें पळयिता? सुरु करि.

लः– भोंगूनु गेलेंगो. तूं सांग तूं सांग म्हुणु कोमण्यांतूंचि वेळु काडताति. माका गोतु अशिलें जाल्यारि इतलो आग्रहूचि नाकाशिलो. आत्तं दोगांपैकि येकळि कोणी पुणी सांगता की–

गिः– शारदे, सांग पोळोवयां बऱ्या इत्रानें. तुका येनात्तिलें हांव सांगतां. हें अनंताव्रत अनि ताजि फलश्रुति भविष्योत्तर पुराणांतु आस. येकळाक बायलानि सुरु केलेलें व्रत हें. रुढींतुं हाका नोंपि म्हणताति.

शाः– भाद्रपद शुक्ल चतुर्दशीक हें व्रत कोरचें. ह्या तिथेक अनंत चतुर्दशी म्हणताति. 'नोंपि' कथेंतुं सांगिल्या प्रकार नद्दी तीराचेरि व्रत आचरकाज. जाल्यरि सर्वकडे अनुकूल नद्यो खंयि मेळूक बसल्याति? घरच्या बांयीकंन्चि नर्मदा पूजा कोरनु पूजेचो कलशु भरताति. आनि दर्भ्यांचो येकु नागु, ताजें बाल कलशांतुं, सात कोडे उंचारि कोरनु, कलशाचेरि येकु नारलु उद्दाक आशिलो, खणखणी वाजचो, शेंडो वैरि कोरनु दवरताति. होचि नोंपि कलशु. व्रत करतल्यानि, पुरुष आशिल्या पक्षाक उजव्या हात्ताक, स्त्री आशिल्या पक्षाक दाव्या हात्ताक चौदा गारियांचो येकु पठ्या दोरु बांदकाज. ताका अनंत दोरू म्हणताति.

लः– कलशु तशीचि इत्याक जावंकाज? दोराक चौदचि गांठ्यो इत्याक?

गिः– प्रती येकाक अर्थु आस. कलशु ॐकार स्वरुप, परमेश्वरालें

प्रतिरुप. ॐकारांतुलिं तीनि अक्षरं, अ, उ, म, अकारु चरण युगल, उकारु उदर विशाल, मकारु मस्तक महामंडल. ब्राह्मी लिपींतु, हिं तिनी अक्षरं येकाचेरि येक बरयिलिं, तरी, कलशाचीचि आकृति जाता. त्याचि खातिर, देवांगेल्या किरीं-टांक, देवस्थानांच्या गोपुर शिखरांक कलशाचि आकृति दिलेलि आसता. महागणपतीलि आकृति तेमथि प्रती ॐकारु.

शा:– अनंतकथेंतुं सांगल्यांगो, माक्षि जरासंध राजाने श्रीकृष्णाक थायि युद्धांतुं हरयिलो येक फंता, तावळि पांडव पक्षपाती कृष्णाने इत्तें केले कीं म्हणल्यारि, भीमाने जरासंघालें वध कोरकाज आनि पृथ्वीचेरि पांडवांलो पगडो बोसकाज म्हुणु धर्मराराजा कोरोवनु राजसूय यज्ञ करथिलो. यज्ञाक पांडवांल्या आमंत्रणाक मानु दीवनु दुर्योधनूयि आथिलो. पैलेंचि दायजी-मत्सरानें जळतालो दुर्योधनु, मयासुरानें बांदून दिलेलें इंद्राल्या रावळाराक समान सभामंडप चोवनु उज्ञांतुं तेल वतिल्यावारि जावनु जास्तीचि जळूक लागलो. नव्हो पुरत्याक सभेच्यो चित्रविचित्र रचना, रत्नमाणिकांचो लकलकाटु चोवनु दोळे बांदिल्यावारि जावनु बागील लेकूनु रिगू केलें, वणतीक मात्तें आपटूनु घेतलें, नेलाक उद्दाक समजूनु निशिलें कवळनु घेवनु उब्बारनु पावलं घालिं, नेल म्हुणु पायु घालो तो स्फटिके हौदांतुं पडलो. अशि नाना थरेने तागेलें अपहास्य जालें. "पांडवांलि मस्ति मोडतलों, अपमानाचि हंडि फेडतलों" अशि पणुच्चि केलो ताने. हस्तिनावतीक परत आयिल्यानेच्चि पांडवांक जुगारु खेळूक आपयिलें, आनि "आहूतो न निवर्तेयम्" म्हुणु धर्मरायु–धर्मरायुच्चि न्हैवे तो-हरलो. मात्र न्है पांडवांलि पट्टराणी द्रौपदीक येक छळलें कौरवांनीं, श्रीकृष्ण पावलो म्हुणु तितल्यारीचि सुटली. तिगेलि मर्याद, वांचलि. सै पांडव बारा वरसां वनवासु एका वरसा अज्ञातवासाक गेले. हांगेलें हक्काचे राज्यवैभव कौरवांनी भोगका आनि हान्नि वनचरांवारि दिवस लकौंका जालेंम् ऽ ऽ म्हुणु श्रीकष्णु भारी कळवळता, आनि रान्नांतुं द्रौपदीसह पांडवांक मेळनु तांका अनंताव्रत कोरुक सांगता. तावळि युधिष्ठिरु कृष्णाक निर्मोगिता 'कृष्णा,

हो अनंतु कोणु? नागांगेलो भावु आत्तं श्रीविष्णूल्या सेवेंतुं आस तो अनंतु, की क्षीरसागरांतुं त्या अनंताचेरि शयन केलेलो विष्णु अनंतु? की त्या अनंत अनंतशयनांक फाट्टीरि घेतिलों अमित सागरु तो अनंतु? की ताम्नि सर्वांनि क्रमण कोरचो अपरिमित कालु तो अनंतु? तावळि श्रीकृष्णु उत्तरता "तूंवें सांगिल्या त्या सर्वांतु हांवच्चि तो. आदी, मध्य, अंत्य नात्तिलों, उत्पत्ति, स्थिती, लय करतलों महाकालु हांवच्चि तो.

लः– अनंत दोराक चौदा गांटियो इत्याक खैं त्यो?

गिः-- कालाचिं चौदा अंगं मनतातित. कला, काष्ठा, घटि, मुहुर्त, प्रहर दिवस, पक्ष मास, ऋतु, अयन, संवत्सर, युग, मन्वंतर आनि कल्प. चौदा गांटियो ही कालव्यवस्था दाकयितातित.

शाः-- नोंपि पूजेक चौदा बगेच्चिं फुल्लं हाडतातित. चौदा रांदयो, चौदा पोळियो, सर्व चौदा बगेच्चिं पक्वान्नं, दोनि ताटांतुं वाडनु देवाक नैवेद्यु करतातित. मगीरि येक ताट ब्राह्मणाक दान दीवनु, आम्नेक ताटांतुलें प्रसाद म्हुणु वापरतातित.

लः-- मागीरि सुमंत ब्राह्मणागेली कथा सांगतातित न्हैवे. त्रेतायुगांतुं सुमंत नांवाचो येकु ब्राह्मणु आशिलो. तागेलि महा पतिव्रता बायल दीक्षा म्हणलेलि. तांका एकी चल्लि, शीला, नांवाने तशीची गुणानि. येकु दियसु दीक्षा जोरु तापु जावनु तांतूंचि मरता. दारलि जाति कितलि पाषाणा जन्मचि पळे. सुमंतु धाकटि हाडता, नांव कर्कशा. काति काजळशें काळी, तोंड सोडल्यारि म्हांकाळि. चक्रपडि घालनु बोसच्चें, फोडीपान्ना घासडे घालचे. नेणत्या पोरिक घोळोवंच्चि. पाप आवसु नात्तिलें पोर शीलागेले भारी हाल जात्तातित. प्रायेने सानि जालि तरि घरचिं काम धामं कोरचें तिज्योरिच्चि पळ्ळें. दंद बावरानें संकटेवनु वालि जालि तरि येकु दीसु पुणी आपणाक आंगातुं नज्ज म्हुणु तिज्जा तोंडांतुल्यानें येनि. आंताक पिकिलें पोर. तिजि ती अवस्था बाप्पूसु जावनु आशिलो सुमंतु चोवनु नेराने

कशि राब्बद. तो कौंडिण्य ऋषीक आपयिता. शीला ताका धार वस्तूनु दिता. शीलाक देवधर्माचेरि भारी निष्ठा. ती नदी तीराचेरि वचूनु अनंताव्रत करता. कौंडिण्यु आपणालिं नित्यकर्म कोरनु घारा येता, तो बायलेल्या दाव्या हात्ताक गांटियो गांटियो आशिलो हळदुवो दोरु. बायलेने आपणाचेरि कृत्रिम केल्यां म्हुणु संशयाने तो तिगेल्या हात्ताचो दोरु थुंटोवनु रान्नींतुं उडयिता. दोराचें माहात्म्य गोत्तु आशिलि शीला बावडि, देवाल्या रागणेक कारण केलेंम् म्हुणु कळवळेवनु रान्नितुं हात घालनु तो दोरु काडनु दुद्दा उरळेंतुं घालता. तरि अनंता क्षोमु जात्ताचि. घर लास्सुनु वत्ता. गोरवं चोरनु वतातित, तांगेलि गति सुष्याकै पाष्ट जात्ता. तावळि होर बैसूनु अनंताव्रत करतातित. गेलेलि संपत्ति पूरा तांका मेळता.

गि:- पैल्या व्रताच्या वरसावेळारि पूजिल्लो दोरु घरांतुं दवरतातित. मुखावेल्या वरसाक तोचि हात्ताक बांदूनु नवो अनंता दोरु पूजतातित. व्रत जाळेल्या क्षण पोरनो दोरु विसर्जन कोरनु समुद्रांतु सोडतातित, नवो त्या मुखारि खातिर दवरतातित. समुद्रांतुं सोडलेलो दोरु कोणाकयि मेळलेलो जायद् भारी भाग्य खैं. आनि तो मेळलेल्यानिं नोंपि कोरकाजचि खैं, नाबें व्रत कोरुक कोणाकयि पुणी वहिसूनु दिवंकाज खैं. कळलेंवे.

—समाप्त—

# संक्रांति

अर्जुनः- कृष्णा, हो मगेलो उत्तम रथु येका प्रशस्त स्थलारि राब्बयि. थंञाणे माका कौरव सेनेचें परिपूर्ण अवलोकन कोरुक अनुकूल जातलें.

श्रीकृः- सव्यासाची अर्जुना, तुजसल्या युद्ध विशारदानें आरंभांतुं कौरचें काम तें कळनूचि हो चोयि रथु हांगाचि राबयिला. शत्रु सेनेचि व्यवस्था मार्मीक रीत्या पळे, आनि, तुमगेल्या व्यूहरचनेचो विचारु करि. युधिष्ठिरा यो, तूंवयि पळे. दुर्मति दुर्योधनाक हांवे सर्व थरेने तथ्य पथ्य आनि हिताचें सांगलें, जाल्यारि तो कान्नारीचि व्हरना जालो. भीष्म, द्रोण, कृप, विदुरा असल्या मुत्सद्यांगेलो मुलाजो दवरने. आपणाल्या येकळाल्या स्वार्था खातिर कोट्यावधि निरपराधि जीवांगेलि आहुति पोडूक आपण कारणीभूत जातम हें अंध पित्याल्या मदांध पुत्ताक पटना जालें. सामोपायाने सलोख्याचि शतप्रयत्न केलेलिं व्यर्थ जालिं. आत्तं वरलेलो चोवतो उपायु, दंडु. युद्ध हें अनिवार्य जाल्यां. तुमगेलें पैत्रक राज्य, संपत्ति, अन्यायानें अपहरनु येका सुबे मोन्यारि धोरचि तितलि मात्ति लगेने दीशिना म्होणूक फावता, त्या दुष्टबुद्धि दुर्योधनाक युद्धानेचि प्रायश्चित्त दिवंका. तागेल्या आनि तागेल्या सल्लागार सहायकां-गेल्या रक्ताने रणरंग भिजल्यारीचि तांगेल्या पापांचें क्षालन जातलें. धारातीर्थांतु तांगेलिं देहं पडल्यारीचिं तांगेल्या आत्माक चिरसुख मेळतलें. हें सर्व निराधिप कुरुक्षेत्राक आयल्याति, तांगेल्या विनाशाकचि. ह्या महायुद्धांतुले दुर्घट प्रसंग चोवनु आनि युद्धा उपरांतेचे घोर परिणाम भोगून जनतेंतुं येकि सक्रांति घडनु येतलि, आनि ते, युद्ध म्हणल्यारि हात जोडतले. धर्मराज, आजि इत्याक तुगेलि मुखमुद्रा निस्तेज दिसता ?

धर्मः- दामोदरा, युद्धाक सन्नद्ध जावनु राबिल्यो ह्यो दुर्योधनाल्यो इक्रा अक्षोहिणि देक्तनु माका येका थरेचो विषादु जाता. धनंजया, भीष्म, द्रोण, शल्य, कृप, अश्वत्थामा असले आजिंक्य

विरुद्ध राबिले आसतना आमगेलि धडगति खंयि ?

अर्जुः- धर्मराज, संख्येने होड्डु आनि शक्तीने प्रचंड आशिल्यांक अल्पतर लोकानि सहज जिकिलिं अनेक उदाहरणं तूवें देकिलिं आयकिलिं आसताना हीं अधैर्याचिं उत्रं उलयिताम !!! अगाध सैन्याचें बल आसलें की विजय मेळोवंचें सामर्थ्य येना. अधर्मु, अहंकारु त्यजूनु उत्तम धर्माचें युद्ध कोरयां धर्मु खंयि जय थंयि.

कृष्णः- यथार्थ, अर्जुना, अगदी यथार्थ !! अधर्माने चलतल्यांक तात्पूरतिक थोडें यश मेळूक फावता सद्याक दुर्योधनाक मेळल्यां तशि, आनि त्याचि दर्पानें तो दिपूनु गेला. ह्या महायुद्धाच्या अठराव्या दिवसु जर्जर जालेलिं तागेलिं गात्रं गळनु धरणीरि पडतलिं, आनि उर्ध्वमुख जावनु पडलेल्याकडे ताका मृत्युमुख दिसतलें- तावळि तागेलि मदांध दृष्टि पश्चात्तापानें निवळनु, खरे धर्माच्यो, तत्वाचो ताका अन्वयु जावंच्याक आस.

अर्जुनः राजन् आयक माधवा मुखांत्रें जालेलि ही भविष्य वाणि आयंक !! अंतिम यश आमकांचि निश्चित. देवर्षि नारदालें वचन आस की 'यतो कृष्णस्ततो जयः; कृष्णागेलो येकु गूणु जय, आनि तें जय ताज्या फाटीकचि लागिलें आस. वचयां, आमगेले सेना विभाग कोरयां. ( रथचक्रांचो गडगडाटु थोडो वेळु जाता आनि राबता ) आरेरे !! कसलें पळयितां हें हांव !! परमश्वेरा, हीचिवे तुगेली लीला ? आमि सर्व थरेचें दुःख दैन्य भोगूनु सरलें, हें बाकि दवरलें !! [निश्वासु सोडता]

कृः- अर्जुना, कसलि भीति तुज्या मनांतु रिगलि, घडियां तुगेलि उमेदि भागलि ? तुगेलें गांडीव धनुष्य मोडलें, की कीपध्वज तग्गु पडलें. तुगेलो पराक्रमु जालोवे माय, की सुचनाति युद्धा उपाय, लागलें जीवाक भय, म्हुणूचि सोडलेवे हातपाय ?

अर्जुनः- कसलें सांगूं मज्यें कपाल, देवा; तूंचि समजरे मजे हाल !! इर्षेने आयिल्लों समरांतु, मनां मांडे खायत, उमेदीने उबिलों शत्रूंक समचि दार्कोकाज हात. आसति उभय सैन्यांतु ते युद्धचतुर, पळे ते कृष्णा सर्व मगेलेंचि परिवार. कोणाचेरि हात उब्बारुं, कोणाक हांव मारुं ? कृष्णा, रथु शिबिराक परतयि. हांव युद्ध करना.

कृष्णाः– पार्था, आजि अशि इत्तें तुं विचित्र वागता. महेंद्रालें ऐरावत हाडलेलो एकमेव धनंजयु तूंचि वे तो ? किरातवेषधारी पार्वती-पतीक पराजित कोरनु पाशुपतास्त्र संपादिलो तूंचिवे तो पार्थु ? हस्तेने दाकोवंचे दांत वेगळे खांवचे वेगळे तशी तूवें उलोवंचिं तत्वं येक आनि कर्तुत्वं आन्नेकचि. येका अप्रतिम वीराक शोभच्या उत्रांनि आत्तंचि धर्मराजाक धैर्य सांगलें, आनि युद्धाचो अनिवार्य प्रसंगु इदूर आयिलो आसतना शस्त्र संधान कोरच्या पावित्र्यांतु राबचें सोडनु अशि हात पोटोळनु घेवनु बसला ?

अर्जुनः– केशवा आनि कसलें कोरूं? हो पळे हांगा मगेलो पूज्य पितामहु भिष्मु. सानपणांतुं पोरल्यांतुं बसोवनु घेवनु अन्नाचे गोड घास मांका खावयिलो. देवा, पोशीलो हातु येक सूणे थायि चाब्बना. ताज्याकयि पाष्ट जावनु हांव आमगेल्या ममताळू भीष्माचेरि बाण सोडूं ? हो चोयि हांगा मगेलो गुरुवर्य द्रोणाचार्यु, आपणें प्रचंड कष्टानें आनि घोर तपस्येने संपादन केलेलि शस्त्र विद्या, अस्त्र विद्या माका संकोच नात्तिलें शिकोवनु पारंगत केलेलो ताजकडे शरसंधान कोरूं ? हे चोयि हांगा मगेले प्रिय बांधव कौरव. येका तपिलांतुलें अन्न खावनु येकाचि घराच्या आश्रयांतु सान्नाचे होड जालेले. कृष्णा क्रूर श्वापद थायि आपल्यांक खायनाति. तां त्रापेक्षां हांव निपत्तरु जावुं ? गोत्रजांगेलो घातु कोरूं? कृष्णा पळे ह्या असंख्य वीरांक. कितले जण तांतुं संसारांतुं नवीन पदार्पण केलेले आसति. कित्येकांगेल्यो स्त्रीयो गर्भवत्यो आसति कितले दाकोवुं तांगेल्या माता पितरांगेले एकमेव पुत्र, उपजीवना खातिर सैन्यांतु शामील जालेले, प्राणधारणेचें अन्न खाल्लेल्या उपकाराक प्राणांचेरि उदास जावनु, आजि दुर्योधनाल्या पक्षाक मेळल्याति.

कृष्णाः– अर्जुना. माया, ममता, भूतदया, इत्यादि उच्च तत्वं शांतते साम्राज्यांतु दवरकाति, रणरंगाचेरि न्है. जाल्यारि आजींचि कशि तुका ही भावनांचि ऊर्मि आयलि ? गुरुजनांकडे युद्ध कोरच्चो हो तुगेलो पैलो प्रसंगु कांयि न्है. पैरिच्या पैरि उत्तर

गोग्रहणा वेळारि, विराटाल्या अन्नाक जागूनु. क्षात्र धर्माक लागूनु कौरवांकडे युद्ध केलें तुंवे. आजि, तुगेल्या तोंडांतुलें अन्न अपहरण केलेल्या कौरवांकडे लडूक आस. तुगेल्यो सर्व कोमल भावनो बाजूनें सारि, मज्येरि विश्वासु दवरि अनि निकराचें युद्ध करि. जय खंडित तुका मेळतलें.

अर्जुनः–केशवा, जय आमकां मेळो किंवा तांका मेळो, कुलक्षयुचि जातलोम देवा!! हांव युद्धाक आजिवरेक भीने आनि आतंयि भीना, परंतु, स्वजनांगेलो संहारु कोरनु, तांगेल्या रक्ताने भिजिलें, राक्षसी वृत्तीने प्राप्त जाल्लेलें पापमय राज्य घेवनु खंचें तें अखंड सुख पोळोवूं? नाका, माका युद्ध कोरुक सांगूनाका. [ शस्त्र तगु दवरता ]

कृष्णः- आरे आरे आरे!! अर्जुना, क्षात्रधर्माचि महति, चंद्रवंशाचि ख्याति, सर्व तूंवें, सर्पु काति सोडता तितल्या सहज रीतीनें उडवनु दिलीं, आनि यःकश्चित शौर्यहीन सैनिकाप्रमाणें शस्त्रं धरणीरि दवरलिं. आरे, किरीटमालि, भीमत्सु, जिष्णु इत्यादि तुवें मेळेयिलीं नांवं सर्व आगडांतु घाल्लिं, आनि ब्रहन्नला स्थिर केलें मरे तुवें!! बरोबरी, आरतांचि तूं वर्षावधि ब्रहन्नला जावनु विराटागेरि वावरतालो, वेषाक अनुरुप कार्ययिं करतालो. तावळि, तें मोडियांक केलेलें तुका खोडियांरि पडल्यां. वच वच हात तेमयि आयते रित्ते जाल्याति. युद्ध तुका सांगिलें न्है. कांकणं सूवनु घे, काप्पड खणु परिधान करि; आनि कुरटा कूशि घोलायत तिरकस पावलं घालीत ताळयो पेट्टून नांच. माकायि कांयि सारथ्याचे रगळे नाति. युद्ध कोरुक उपाय नाति, प्रतिज्ञा आड येत्ता. आमि दोगंयि निरुद्योगि, खंयि पुणी उपयोगाचो उद्योगु कोरयां. सांजेचें समरांतु साहसु कोरनु सैनिक शिबिरांक परततात्ति, तांगेलें मनोरंजन केल्यारि पुणी फायिच्या दीसाचि तुगेलि लढायि लडूक ते तरतरी जातले. तूं नांचु गायन करि, हांव बांसरी मृंदगारि तुका साथी दितां. रणरंगारि मेळने

तें रंगस्थळारि तरि मेळो.

अर्जुः— कृष्णा मगेलें अंतर्य आरपार पळोवनु मर्म जाणतलो तूं, असल्या मर्मछेदक वाक् शरानीं मगेल्या हृदयाचेरि घाय घालता. ब्रहन्नला आसूनु थायि हांवें केलेलो पुरुषार्थु तूंवे आयकनातिलो न्हे.

कृष्णः— हांव लक्षाचि दिना त्याकडे. कारण लक्ष दिवूं, तरि, संग्रांमांतुं भीष्म–द्रोणानीं इदूर आयल्यारि आपण तांगेलो वध करतलों ही तुगेली प्रतिज्ञचि कान्नांतुं घुंवता.

अः— देवा अवध्यांगेलो वधु कोरनु रवखांक पात्र जा म्हणता. विराटालें गोहरण कोरुक आयिले तांकां आमि प्रेरणा करनीशिली, तेचि चोरवृत्तीने आयिले. ह्या युद्धाक आमि आवाहन दिलेलें आस. हो प्रसंगूचि वेगळो, अशि आसतना विराटागेरि केलेल्या प्रतिज्ञेचो हांगा आघोषु कोरनु हांव मगेल्या गुरुजनांगेलो वध करीन, तरि माका मोक्षु कशि मेळद?

कृः— शत्रूंक आवाहन दीवनु अक्षत्रिया प्रमाणें, रणभीरु प्रमाणें, परांग्मुख जालो तरि मोक्षु मेळतावे ?

अः— [ हताश स्वराने. ] दामोदरा, अज्ञाना मूलक मगेल्या मात्यांतुं नाना थरेचे षिकल्प भोरनु कसलेंयि सुचनाशि जाल्यां. तुका शरण आयलों. तूंचि तरुणोपायु दाकयि.

कृः— आयक तरि. तूं मारता आनि कोणयि मरता हो तुगेलो अहंकारु, तुगेल्या मनाचो केवल भ्रमु. पंचभूतात्मक ह्या देहाक जीवात्मु साक्षि रुप जावनु आस. जडदेह हें जीर्ण जावनु पोडनु वत्ता; आत्मु अजरामरु परमात्म स्वरुप जाता. मगेल्या माये करितां हें सृष्टिचक्र यंत्रिशें चलता. तांतु तूं येक घटक; कर्तव्य मात्र तुगेल्या वांट्यांचें, फलाचि अपेक्षा कोरचो तुका

अधिकारु ना. तुगेलिं सर्व कर्म मगेल्या प्रित्यर्थ करि, पाप तुका बाधशिना. सर्व धर्म सोडनु माकाचि शरण यो. हांव तुगेलें विमोचन करतां. तुगेले प्रतिपक्षि जावनु राविले हे सर्व विनाशु पावतले, हांवे तांका केद्नाचि मारनु जाल्याति. सव्यसाचि, मगेल्या ह्या घन संकेताक तूं निमित्त मात्रं जा.

अः– आत्तं जाल्यारि मगेल्या संशयांत्रें निरसन जालें, तूंवें सांगिल्या-प्रमाणे कोरुक तयार आसं. [ शंखदुंधुबींचो नादु. ]

कृः– तो चोयि युधिष्टिरु अयुधं कवच काडनु दवरनु भीष्मागेलो आशिर्वादु मागूक वचत आस. अमियि वचयां.

[ भीष्माक प्रणाम कोरनु ]

धर्मराजः-पितामहा, दुर्धर्षा आमगेलो दैव दुर्विलासु पळे. आमि तुका युद्धाक आमंत्रयितातिं. आमकां शुभशिष दी.

भीष्मः– युधिष्टिरा, तुगेल्या भक्तीक हांव प्रसन्न जालों. देवाक धर्माक स्मरुनु युद्ध करातिं. अवश्य जय मेळतलें तुमकां. माका कसलेंयि निमगूनु घेवंचि अवश्यकता दिशिल्या पक्षाक संकोचु पावनातिलें जायि तें, जायि थंयि जाजि त्या समयारि, निमगूनु घेया. तुमगेलें कल्याण जातलें. तुमगेलें युद्धाचें आव्हान हाँवें स्विकारल्यां. युद्ध म्हणलेल्या उपरांतें यशापयशाचें तोल, घडियां हेकडे, घडियां तेकडे जायत आसता. ताजाणें दीपूनु किंवा खपूनु वचनासतना अंतिम यशाचेरि तुमगेलें चित्त दवरनु लडातिं. येया, परमेश्वरु तुमगेल्या सांगाताक आस [ रण कंद्नाचि गौजी. घायाळ जालेल्यांगेलो आर्त स्परु. ]

भीष्मुः– धन्य धन्य, हे महाबाहो, कुंतीपुत्रा, धन्य तुं. तिनि फंतां तुवें मगेलें हें उत्तम धनुष्य मोडनु कापटियो डबयिल्यो. ही पळे आत्तं तुज्येरि शरवृष्टी करतां. थोपूनु घे.

अः- हें घे ताज्यें विदारण केलें.

भीः- हे णव्व नाराच बाण सोडले पळे.

अः- ह्या णव्व नतपर्वांनी तांचें खंडण केलें पळे.

भीः- ह्या तीनि तूमरांच्या तीक्ष्णतेचि परिक्षा करि.

अः- ह्या शलपत्रांच्या धारेची तुं परिक्षा करि.

कृः- अर्जुना, तुं युद्ध करता की तुगेल्या धनुर्विद्येचें प्रदर्शन? तो गांगेयु सैन्यांच्या मध्य भागांतुं राबूनु, प्रखर सूर्युसो ताप दीत सतत शरवृष्टि करीत आस. कृतांत कालाप्रमाणें, तुगेल्या सैन्यांतुल्या श्रेष्ट श्रेष्ट मुकूटधाऱ्यांलो संहारु करीत आस. आनि तूं, तागेलें धनुष्य मोडचें, रथाच्या चक्ररक्षकांक मारचें, घोड्यांक मारचें वा विद्ध कोरचें, इत्यादिने मृदु युद्धचि करीत आस. हाज्यानें मगेल्या आंगाचो उज्जो उज्जो जायत आस. रथु अत्यंत लाघवानें मंडलाकार फिरावनु भीष्माक तुगेल्या येकाचि तीक्ष्ण बाणाने यमलोकाक धाडच्यो अनेक सुवर्ण संधियो हाडनु दिल्यो, त्यो तुवें येका अप्रबुद्धाप्रमाणें अपकारल्यो. घे ह्यो तुगेल्या रथाच्यो रष्मीयो. तुगेलें सारथ्य तूंचि करि. हांवंचि भीष्मागेलो वधु करतां. भीष्मा, हो चोयि तुगेलो कृतांतकालु जावनु हांव तुका परागतीक पेटोवंच्याक येतां, मोरुक सज्ज जा. आयकलो वे मगेलो योधसंरावु?

अः- कृष्णा, परत फीर, अनर्थु जायद.

भीः- हे कृष्णा, कमल नयना, यो यो, हे चक्रपाणे, तुका नमस्कारु, ह्या महायुद्धांतुं माका गतप्राण करि. तुगेल्या हात्तानें माका मरण आयल्यारि इहपरांतुं माका श्रेयचि. देव देवा, कितलो होडु सन्मानु केलो तुवें मगेलो. ह्या तुगेल्या दासाचेरि यथेच्छ प्रहारु कारि. ह्या हत्याकांडाचें माका वीट आयल्यां.

अः- कृष्णा, वासुदेवा, परत फीर, अनर्थु जायद्. हे महाबाहो, परत फीर. ह्या महायुद्धांतु आपण शस्त्र धरशिना म्हुणु तुवें पणु केलेलो आस. तुगेलें वचन सत्य करि. [अर्जुनु रथांतुंल्याने उडूनु कृष्णाक घट्टी अप्पो घालनु माक्षि ताणता. तरी, आवेशा भरांतुं श्रीकृष्णु अर्जुनाक धरधरी ताणनु व्हरता; सुमार धा पावलां उपरांते तितीक्षेने परत फिरता.]

युधिः- [हात्ताचि तुतूरि कोरनु तांतुं उलयिता.] समस्त सैनिक हो, सूर्यु अस्ता गेलों युद्धतटस्थ कोरनु तुमतुमगेल्या शिविरांक वचाति. [श्रीकृष्णाक] केशवा, महात्मा भीष्माल्या भीष्म पराक्रमाने आमकां पूर्ण हत्त केले. तो दुर्धर्षु, धनुर्धरु, येका मत्त गजानें शेत तुडूयिल्याप्रमाणें, आमगेलें सैन्य उध्वस्त करित आस. कृष्णा, पुरो जालें हें युद्ध. युद्ध कोरच्यापेक्षां वनवासूचि श्रेयस्कर दिसता माका. मज्येवेल्या प्रेमाखातिर भाव मगेले राज्यभ्रष्ट जाले. तशीचि द्रोपदीनेयि वनवासाचे असह्य क्लेश भोगका जाले. राज्यलोभानें हांव ह्या युद्धांतुं प्रवृत्त जालों. जयाचिं लक्षणं तेमयि दिसूकचि नाति, आमगेलें सैन्य दीसापशी दीसां क्षीण जायत आस. आनि मगेले पराक्रमी भाव भीष्माल्या बाणांनीं त्रस्त जायत आसति. हे जनार्दना, आमि तुका अनुग्राह्य दिसताति, तरी स्वधर्माक विरोधु जावनयें असलें माका हितवचन सांग

कृः- सत्यसंगर धर्मपुत्रा, व्यर्थ विषादु पावनाका. हांव एकांगी, एक रथाने आजि रणांतु भीष्माक युद्धाचें आव्हान कोरनु धार्तराष्ट्रां समक्ष ताका मृत्युच्या स्वाधीन करतां.

अर्जुनः- पुंडरीकाक्षा, युद्ध करना म्हुणु तुंवें दुर्योधनाक वचन दिलेलें आसम्!!!

धः- व्हयि, देवा, आमगेल्या गारवा खातिर, तुका मिथ्याचरण हांवें कोरुक सांगचो अधर्मु जाता. माधवा, त्या देवव्रतानें मजकडे संकेतु केलेलो आस, की, आपण दुर्योधनाल्या पक्षानेचि

युद्ध करीन, तरी, मगेल्या हिताचो माका उपदेशु करीन. आमि सर्व वृद्ध पितामहाकडे वचयां आनि तागेल्या वधाचो उपायु ताकाच्चि निमगुयां. कृष्णा, सानपणीची पितृहीन जालेल्या आमगेलें संवर्धन तानेचि केलेलें !! आत्तं आमि तागेल्या वधाचि इच्छा कोरका जाल्यांम !!! धिक्कार ह्या क्षात्रधर्माक !!

कृः- चला तरी, त्या उदारचरित भीष्माक भेटयां

(भीष्माक तागेल्या शिबिरांतु मेळताति)

भीः- वार्ष्णेया, युधिष्टिरा, धनंजया तुमगेलें स्वागत आसो. वत्सानू, तुमगेलें कसलें प्रिय कोरुं, तें कितलेंथि दुष्कर आसलें तरी हांव तें करतां.

ध- पितामहा, आमि ज्या संकेताने आयल्याति तो उच्चरुक तोंडांतुल्याने शब्दचि फुट्टना जाल्याति.

भीष्मः- कळलें, कळलें माका. मगेल्या वचनाचि माका यवजणि कोरनु दिवंच्याक आयल्याति. कौंतेया, हांव जीवंत आसं तो वरेक तुमकां कदापि जय प्राप्त जायशि ना. हांव तुमकां अनुज्ञा दित्तां. तुमी मज्येरि यथेष्ट प्रहार करा. येक फांतां मगेलें वध जालें वे मागीरी सर्व विनाश जालेंचि समजा,

धः- महाबाहो, कालदंड धारण केलेल्या अंतकाप्रमाणें तुंवे समरांगणांतुं वावरतना, इंद्रवरुणांक थायि तुका जिंकचें सामर्थ्य जायना, अशि आसतना आमि तुगेलें वध कशि तें कोरचें ?

भीः- आयकयाति. मगेलो माक्षि धोरनु येकु संकल्पु आस, की. अशुभ चिन्ह इदूर आयल्यारि हांव कदापि युद्ध करना. तुमगेल्या सैन्यांतुलो महारथी द्रुपदपुत्र शिखंडि युद्धोत्सुक अनी विजयी आसलो तरी जन्माक येतना स्त्री जावनु,

मागीरि शस्त्रवैद्यांगेल्या कृतीने पुरुषत्वाक प्राप्त जालेलो. ताका हांव अशुभ चिन्ह समजतां. शिखंडिक मुखारि कोरनु तुमि तीक्ष्ण विशिख बाण सोडाति. शिखंडिचेरि हांव प्रहारु करीशिना. धर्मपुत्रा, मगेलें हें धर्मवचन आयक, मगेलें बहुतेक आयुष्य प्राणांचें वध कोरच्यांतूचि गेलें. आत्तं माका जिविताचि विरक्ति आयल्या, तुं मगेलें प्रिय इच्छिता, तरि, सत्वर शिखंडीक मुखारि कोरनु मगेलें वध करि.

[ रण दुंधुभींचो शब्दु ]

अर्जुः- द्रुपद् पुत्रा तुका हीन लेकतल्या त्या पितामहाचेरि प्रहारु करि. आनि तागेलें वध कोरनु तुगेलो क्रोधु शमन कोरनु घे, भीवनाका; हांव आनि सृंजय तुज्या फाट्टीकचि आसति.

[ सिंहनादु, कोलाहलु ]

सर्वः— महात्मा भीष्मपितामहागेलें वध जालें भीष्मपितामहागेलें वध जालें !!

कृः— धर्मराज, अर्जुना, हो पुरुष व्याघ्र शांतनवु आत्तं महोपनिषदांतु सांगिल्या योगाचो आश्रयु कोरनु ध्यानमग्न जाला. कालवश जावंच्याक उत्तरायणाची मार्गप्रतिक्षा करता. आदित्यु उत्तरमार्गी जावनु मकर राशिचेरि संक्रमण करता त्यीं दिसु ताका मेळ्यां [ विराम ]

कृः— धर्मराज, धनंजया, आजि मकर संक्राति. सुर्यू उत्तरगामी जालो. उत्तरायण सुरु जालें. आजि स्वर्गाचि द्वारं उघडताति आनि सर्व पितरांक प्रवेशु मेळता. हो पळे हांगा शांतनवु भीष्मु शमन जायत आशिल्या अग्नीप्रमाणें शरतल्याचेरि शयन केलेलो, मगेलो उगडासु करीत आस. भीष्मा, नरपुंगवा, ह्या महायुद्धांतु घडलेश्या हत्याकांडानें आनि गुरु प्रियजनां-

गेल्या प्राण हानीने, युधिष्ठीरालें मन भो कष्टि जाल्यां. ताका समाधान सांगूक आनि राज्यकारभाराचो खरो रहस्यमय भागु समजावनु दिवंच्याक तूं येकळोचि समर्थु, म्हुणु, तुजकडे आयला तो.

भीष्म [गंभीर स्वराने] वत्सा, कुरुश्रेष्ठा वृथा शोकु कोरनाका. त्या नित्यात्मानें धारण केलेलें हें अनित्य देह, येकु दिवसु पोडनु वचकाजचि. क्षत्रियालो जन्मु बाणाच्या आधीन हें मान्य आस माका, तरी तो बाणु, सत्ताधारी सम्राटानें, आपणाल्या भाल्यांतूंचि दवरचि शक्य तितलीं प्रयत्नं कोरकाति. सम्राटालि सत्ता, अधिकांश प्रजांगेल्या आधिकांश गुणा पासावत खरचता, तरी, ताजो सदुपयोगु. अहंकाराने आसतालो दुर्योधनु. तागेलें धारिष्ट गेलें. आप्त, मित्र गुरुजनांगेलो हितोपदेषु ताका विषाप्रमाणे लागलो. युद्धाक राबलो. सर्वस्वीं हरलो. आपणाल्या सुन्नां सरशी कोट्यावधी कुलवतींक वैधव्य आयिलें चोवनु, आपणयि गेलो. आनि ह्या दैव दुर्विलासाने दोळ्यां परत्र कोरनु घे, म्हुणु, त्या देवाने, माका जीवानिशीं दवरलों. (दुःख पावता) जाणतों जायत धारेनु आजि थायि झगोडनूचि जन्मु गेलो मगेलो. आनि कसलोयि तमासो पोळोवंचें त्राण वरने. घोर संग्रामाचो संहारु राबलो, तरी ताजाणे निर्माण जालेलि घनघोर हानि येकेकी, क्रमाने येवंचाक आस. शेतांचि श्रमाने सागवळि करतले रैत रणरंगांतुं खपूनु गेले. सुपीक भूंयो बंजर पडतल्यो, आनि अन्न धान्याचो पुरो जायशी पुरवटो नातिलें, देश भरि उपासमारि पसरतलि. पुष्टिकर आहारु मेळना तावळि रोग-रुत्यांक पुष्टि मेळता. तात्पर्य कसनें की म्हणल्यारि, युद्धाने अकल्पित अनर्थु घडता. खंचीयि येकि समस्या सोडोवंक, युद्धाचें अवलंबन करतलो हिंस्र पशूकयि पाष्ठु. हिंस्र पशु भुके खातिर हिंसा करता, आपणाक दुःख दितल्याक मारता. मनुष्यु, द्वेषा खातिर लडता, येकळ्याल्या झगड्यांतु अनेकांक घेवनु बुडता. लडायि राबलि तरी तुसवांतुको उज्ञोसो द्वेषु दुस दुसतचि वरता. पराजय पाबिलो

आनेका युद्धाचा उद्योगाक लागता. येकून्, युद्धाने सुख जायना. आजि मकर संक्रमणाचो पर्वकालु आजि तुमगेल्या मनांतु, बुद्धींतु, संक्रमण घडो, युद्धावेलि तुमगेलि श्रद्धा उडो. अजात शत्रो, प्रतिज्ञा करि [ताने शिकयिल्या वारि ते म्हणताति] "क्षमाबुद्धि आनि शांततापूर्ण सहजीवन ह्या शीलांचें धोरण दवरनु राज्य करतां" क्षमा वीरस्य भूषणम्. कुरुवंशु चिरकाल चलो. गंगाजल मगेल्या तोंडांतुं घालनु, तुमगेल्या कार्याक लागाति. सुखासमाधानाने ही मगेलि इहयात्रा समाप्त करतां. [ ते गंगाजळ घालताति, भीष्माले प्राण पंचमहाभूतांतुं विलीन ज्जाताति ]

–समाप्त–

# ★ वि ज ले चि–का णि ★

[ चरडुवं " नमस्ते देवमामं म्हणतातित, देवमामु नमस्ते, नमस्ते, देवु कल्याण कोरो तुमगेलें म्हणता ]

१ चल्लोः-देवमाम, आमकां आजि आपयिलें तुवें; विजलेचि काणि आयकवंच्याक. आमि येवनु सुमारु वेळु जालो. केदनायि सांगिलें कोरुक चुकचो न्हे तुं आजि इत्याक येनि? कांयि आंगांतु हुशार नावया, की विसरलो, की आनी कसलेंयि कारण आसतलें हीचि चर्चा करीत बशिले आमि.

देवमामुः-तुमी हांव म्हांतारो म्हुणु लेकूनु माका आंगांतु हुशार ना कितकी, हांव विसरलों कितकी, इत्यादि म्हाताऱ्यांक जावंच्या उपहर्ती मात्र विचारु केलो. परंतु मुंबई करांक खर्यीयी वेळारि पावंच्याक पदे पदे तोंदरे जात्ताती येका मुख्य निमित्तानें तें तुमकां कोणाकयि लक्षांतु येनि. आत्तं पुणी आयलेंवे ?

सर्वः- होयि. आग्गाडे निमित्तिं वेळु जालो.

द. माः- आगगाडी न्हे तीं विजले गाडि. हांगा णव्व घंट्याक सम जावनु पाबंकाज म्हुणु सातांचि गाडि धरलि अंधेरि थावनु. परंतु बांद्रा स्टेशनाचेरि राबिलि गाडि हालनु हालना. स्टेशन मास्तराकडे सब्बरि घेतल्यारि "पॉवर फेल्युअर" " बिजली बंद, म्हणालो. कालि रात्रिच्या कांडणा धारे पावसाने, सन्नाट्या वाऱ्याने खैं बांद्रा ते चर्चगेट मध्यगतीचें विजलेचें सबंद लायिनचि नादुरुस्त जालेलें. तें समजावनु हांवे हांगा येवनु पावसरि इतलो वेळु लागलो.

२ चल्लोः-आमकां विजेचि काणि सांगुक सुरु करि. आयकुवंच्याक आतुर जावनु बसल्याति आमि.

३ चल्लोः-देवमाम, हो विजलेचो शोधु कशि लागलो.

दे. माः-तुमि चुंबक पळयिल्यांवे, लोखंडा लाग्गि हाडलें की लोखंड ताका खिचता ?

[ सर्व होयि म्हणताति. ]

४ चल्लोः-पैरि हांवे वाण्या दुकानांतुं सामानु घेतलो. आनि ताका येक रुप्पये नाण्य दिलें. ताने इते केलें, येकु लोखंडा कुडकोसो त्या रुप्पयेक लायलो आनि उब्बारलो. गम्मति, कसली जाल्ली.॥ रुप्पयि त्या कुडक्याक अंटूनु आयलि. "वाणी, तें कसलें आनि तुवें तशि इत्याक केले" म्हुणु हांवें निमगिलें तावळि वाणी म्हणालो. "हें लोहचुंबक. आतांतुं सीश्याचिं खोट्टि नाण्य चाळवल्यांति. चोख रुपयेंतुं निक्कला अंश आसता आनि ताज्जि परिक्षा ह्या लोहचुंबकानें केलि." जाल्यारि, देवमाम, चुंबकाक आनि विजलेक कसलो संबधु ?

दे. माः– विजलेक आनि चुंबकांतुल्यां आकर्षण शक्तिक निकट संबंधु आस. चीनि लोकांनि पैलें चुंबकाचो शोधु लायिलो. ते ताजाने होकायंत्र कोरनु नौकाटनंतु वापरुक लागले. होकायंत्र पळयिल्यांवे तुमि ?

५ चल्लोः–व्हयि. मगेल्या आज्जालागि येक पुरातन किशें घडियार आशिलें. ताका आशिल्या रुप्या सरपळेक येक सान होकायंत्र लांबयिलें तानें. येकु दिवसु हांवें भूगोलाचो पाठु करतना सूर्यु उदेवंच्या दिकाने तोंड कोरनु राबल्यारि उजवो दिकु दक्षिण आनि दावो दीकु उत्तर म्हुणु वाचलें. तें आयकूनु तावळि आज्जो म्हणालो "तशि राब्बनात्तिलेंचि हांव उत्तर दक्षिण दाकयितां पळे, कशि" म्हणालो आनि, आपणालें

होकायंत्र घेवनु आयिलो. कसलो पुणी चमत्कारु!! कशि फिरायिलें तरी होकायंत्राचे कांटे उत्तरदक्षिणाचि दाकयितातो.

दे. मा.:-लोहचुंबक चीनि लोकांक पैलें मेळलेलें खरें. जाल्यारि आकर्षण शक्तिचो एकु नमुनो पुरातन ग्रीक लोकांकयि गोत्तु आशिलो. तो कसलो सांगतां लक्ष दिवनु आयकयाति. काच जावो, अभ्रक जावो, रेशमी वस्त्राने घसघशी पुसल्यारि तांतुं रेशिम सान सान्न कागदा कुडके आकर्षण कोरचि शक्ति येता. तशिचि येकेक देशांतु येकेक थरेचें संशोधन चलत वरलें.

१ लोः– देवमाम, तुं आमकां विजलेचि काणि सांगचो आशिलो न्हैवे? केद्दोळु जालो, चुंबक आकर्षणा शक्ति विशयचि सांगत आससं.

दे. मा.:– तें सांगिल्याशिवाय निर्वाहु ना माका. बिजलि म्हणल्यारि विद्युत शक्ति आनि आकर्षण शक्ति हांवांतु अन्योन्य संबंधु आस म्हुणु हांवे चिके तावळि सांगिलें उगडासांतुं आसवे?

सर्वः– व्हयि. आस

दे. मा.:–हें सिद्धांत इंगलेंडच्या गिल्बर्ट विलियम्सानें मांडलें. तो तावळिचि महारणी पैली एलिझाबेथालो राजवैद्यु आशिलो. इ. स. १६०० तुं ताने ह्या विषयाचेरि येकु ग्रंथु बरयिलो. त्याचि खातिर ताका "फादर ऑफ इलेक्ट्रीसिटी" विद्युत-शक्तिचो बाप्पूसु म्हणतातो. त्या उपरांते अठराव्या शतमानाच्या मध्यगति, म्हणल्यारि केद्ना सांगाति पोळोवयां.

सर्वः– इसवी सन १७५०.

दे. मा.:–शाबास, १७५० च्या सुमाराक इटली देशांतु 'गेलवानी लुइगी' म्हुणु येकळो सुप्रसिद्ध शास्त्रज्ञु जालो. तोवयि येकळो

दाकतारुचि शिलो. येक फांतां, तो येकु मांडूकु चीरनु ताज्यें उदाहरण घेवनु, आपणाल्या बिद्यार्थियांक शरीर शास्त्र शिकयितालो. तो मांडकालि अवयवं सर्वांक समचि दिसकाति म्हुणु दोनी विंगविंगड धातूंचे सरळ वापरतालो. उलयितां उलयितां, ताने दोनि हातांतुंले दोनि सरळ मांडकाल्या दोन्नी पायांक लायले. तावळि येकु चमत्कारु जालो. मांडूकु मेलेलो, तरी, सरळ लागिल्याक्षण, मांडका पाय पट्टने उडले खैं. गेलवानीक आपणाल्या दोळयांचेरि विश्वासु बैसना जालो, ताने सरळ पुनः मांडका पायांक लायले, परत पाय पटक्नने उडले. तावळी ताने ह्या प्रकाराचि पूर्ण खात्री कोरनु घेवनु ही येक प्रकारचि विद्युत शक्ति म्हुणु सिद्धांत बांदूनु ताका "प्राणी विद्युत" 'एनिमल इलेक्ट्रीसिटी' अशि संज्ञा दिली.

२ रोः– देवमाम, ते दीसु मगेलो पप्पा येकि खबरि सांगतालो, की, "ईल" म्हुणु जातीचो जलसर्पु समुद्रांतु आसता खैं. तो आपणाल्या जीवाचेरि संकट येत्ता म्हुणु कळलेल्या तसाक, आपणाल्या आंगांतुल्या विद्युतशक्ति सुमार १० फूट त्रिजेंतुं फांकूनु दवरता खैं. त्या वांदा भितरी आयिलीं जलचरं मोरनु वताति खैं.

३ रोः– तें कसलें सांगता तूं. अरे, आमगेल्या आंगांतुयि विद्युतशक्ति आसम. हांव केद्नायि शालेकवचच्या गडबडेंतुं अंवसरानि क्रोप वोळोवनु घेत्तां. तावळि मागो काडनु समचि बसयिले केस पट्टकने उटावनु उबरताति, अनि दांतोणियें तुरियेक खिचताति.

दे. माः–येकुनु ह्या सर्व अनुभवांच्या आधारांचेरि अनेकळो इटालियन शास्त्रज्ञु 'कौंट अलेस्सांद्रो वोल्टानीने' जगांतुली पैली बेटारि तयार केलि. तरि आजि जी आमि घरांतु कारखान्यांतुं वीज वापरताति, ताजो मूल निर्माता 'मायकेल फॅरेडे.' डायनेमो, म्हणल्यारि वीज उत्पादन कोरचें यंत्र फूडे ताने बनयिलें.

४ थोः– मायकेल फेरेडे होडु पदवीधरुशिलो आसकाज न्हे ?

दे. माः–तो येका गरीब कम्मारागेलो चल्लो शिलो वेळारि तांका पुरोजायशीं अन्न मेळनाशिलें. तागेलि आवसु, हप्त्याक येक 'लोफ,' म्हणल्यारि, येकु होड्ड ब्रेडपावु दित्तालि. ताज्ये तो चौदा कुडके कोरनु, सकांळि येकु सांजे येकु ह्या प्रमाणे खावनु राबतालो. अशि येकडे ताने बोरोंवनु दवरज्यां की 'सानपणींतु ताका जोरु भुकेचो चरको लागिलो किंवा पोटभरि जेविलो उगडासूचि ना. सुमार होड्ड झालो तरी ताका 'र' कारु उच्चारुक येनाशिलों. तागेलो म्हालगडो भावु रॉबर्टाक तो "वोबट बोबट" म्णतालो. नांक धाडायलें तरी ताका 'र' म्होणूक येना, म्हुणु, कोप्पाने, येक फांतां तागेल्या मास्तराने ताका बेत्ताने मारुक कोरच्या भित्तरि, तो पोळनु घारा गेलो, परत शालेचो मेट्टु मसतीने ताने-

५ थोः– शालेक यत्रनात्तिलें तो तितलो बुद्धिवंतु जालो कशि ?

दे. माः–तो सोवारि शिकने तरी ताका वाचची बोरोवंची तीव्र अभिरुचि आशिली. आपणालें उपजीवनयि जावंकाज आनि पुस्तकंयि फुकटांतु वाचूक मेळकाज म्हुणु—

१ लोः–पाप बावड्यात्रें गरिब न्हैवे. पुस्तकं विकत घेवंच्याक पैशे खंचे येतले.

दे. मा.–मायकल फॅरेडेने येका बुक–वायिंडराकडे नौकरी धरली. बांदूक आयिलि पुस्तकं ताने येकळाक वांचुनु काडच्चि ! ! आणि आपणाक मेळलेल्या माहितेचेरि प्रयोग संशोधन कोरचें. अशि करतां करतां तागेल्या कार्याक सिद्धि मेळली. ताने मागिरि रसायन शास्त्र आनि यिद्युत शक्तिचे अनेक उत्तम ग्रंथ बरयिले आनि तो इंगलंडच्या 'रॉयल इंनस्टीटयुशनाचो' प्राध्यापक जालो. ही जालि विद्युतशक्तिचि काणि.

समाप्त

# व्हयि म्हणशादवे

[ नाट्यछटा ]

आहा!! हाः!!! हाः!!! (जांबयि काडनु) दोनि म्हयिन्यांचि गडि जालि, आजि देकतलों फायि देकतलों म्हुणु आकलस पाविलो तो भाग्याचो दीसु आजि उजवाउलो. पैल्या वायणांच्या नेवनाने, बायलेक रवाणे करतलों, आनि, आयमेच्याचें वियानेलींतुलें जेवण नेगतलों, आनि, सूर्यु दोळ्यांरि योसरी निर्मळ घोरके मारतलों, म्हुणु कितल्यो इकड्यो केल्यो, व्हयि म्हणशादवें ? बायलेक सांगूनु पळयिलें "तूवें आनी दिवस काडल्यारि तुका रैला प्रयाण त्रासदायक जातलें," सकाळिंचे सुक्के वोकारे येताले कीनातिका. कान्नावेलो प्रसादूचि करता. आमगेल्या घरांबे दाक्तारा कोरोवनु सांगियलें. कुंभेश्वरचा गडबडे गणपथ्य भट्टाकोरोनु काळराहु नात्तिलो चांगु मुहूर्तु काडनु हाडलो, तरी उमत्या काळशारि उद्दाक!!

बायलेक कुळारा धाडनु तुत ब्रह्मचारि जावंवें आस माका, तरी, नित्य ब्रह्मचाऱ्याक शरण वचूनु पोळोवयां, म्हुणु, ताडदेव मारुतीक,, काळ्या रुव्वे फुल्लांचि माळ सांगूनु घेतली, पिकेट रोड मारुतीक सिंधूरु सांगूनु घेतलो. जाल्यारि तो मारुतीवे!! व्हगाडनु गेलेल्या जानकीक सोद्दनु काडनु, श्रीरामचंद्राल्या संसाराचि घडि बोसोवंच्यांतुं देह दंडन केलेलो, अशि तागेलि ख्याति कीर्ति!!

फक्कने, हांवे सानपणांतुं पळयिलो त्या हनुमंतालो फुगारो माका येवजलो. येका पुनवेक तागेलो पालके उत्सवु काडलेल्या वेळारि, येका, न्है जालेलें केलेल्या भट्टालो हातु पालकेक लागिलेंत्रि नेवन!! वैल्या पेंटांतु वचचि पालकी खंवट केशव शेणयिल्या कट्यारि गज्ज घालनु बसयिलि. आनेक फांता गावुं भोवनु देवळा मेटटाकडे आयिलि पालकि दडदड दड बंद्रावेल्या तेण्यारि व्हरयिलि. येक वेळा तेमंयि तागेलें भांगरा कवच, किरीट, दागिन्यो, सर्व ना कोरनु, पुजारि भटटा घरच्या पेटलांतुं मेळशी केलेलें. येकनि दोनि!! तागेल्यो मांकड चेष्टा!!

येकूनु मारुतीने माका पांवंचिं चिन्ह दिसनेति, उपरतुनु सगुणालें कुळारा प्रयाण रद्द जायद की म्हुणु दुकदुको सुरु जालो. इतेंयि कोरूक फावद तो. तो न्हयिशिलो, रावणाने उबारनु व्हेलेल्या सीतेलो शोधु लागसरि, तिप्रदंड लाक मारकाशिले रामाने. न्है, ह्या हनुमंतालो कसलो दुराग्रहु हो!! मगरि वोट्टु क्षणा मात्तक प्रपंचु केलेल्याक हाका, पुरो पुरो संसारु जालेलो, जन्मु भरि बायलेलें बडिबाल लागिल्या अमागेले कष्ट इत्याक कळूक नञ्जतिबा ताका?

हांवे ताजि तिष्टताचि सोडनु दिलि. आनि सगुणाकचि चेष्टेनें सांगलें, बद्दानें सांगलें, लाल्लेवनु थायि सांगलें, भिसडावनु सांगूकऽ ऽ... माका इत्तेंकिंबा, मनचि येने–भिसडायल्यारि तिका मनां येना. तिका भिसाडावंयाक माका भय दिसता. बायल जब्बरि म्हणा किंवा हांव निब्बरु म्हणा येकूचि अर्थु.

मगेलि रुगुणा म्हणल्यारि, उडच्या सवण्याक मासोलु वाटतली. पैल्या तारखेक माका बोनस मेळचें आशिलें; तें तिज्या हात्ताक लायशिना म्हुणु हांवें इकडि केलेलि. जाल्यारि ती केद्दि!! हांवें मांद्रे मुळांतुल्यानें गेल्यारि ती भूंयिच्या मुळांतुल्याने वत्ता. आमि दोगयिं राकूनु पडलेलिं; माका केद्‌ना बोनस मेळता म्हुणु ती, ती केद्‌ना कुळारा रवाणे जाता म्हुणु हांव.

घरा मेटटु दांटूवंच्या पैलेंचि मगेल्या पगारा पैशे तिज्या हातांतुं जावंकाति. हो प्रती पैल्या तारीकेचो तिगेलो क्रमु, व्हयि म्हणशादवे? तिगेलो क्रमु म्हणलेल्या उपरांतें तो मगलोयि क्रमु, आमकां तितली अन्योन्य प्रिती!! बोनसा रुपयि आपणाल्या खात्याक अकबंद जमा कोरनु, मगेलो अर्द पगारु घेवनु, दींवें आशिलें माका मोक्ता कोरनु कुळारा भायर सरलि हांवें तोंड सान कोरनु निमगिलें 'सगुणा, अर्ध पगारु तुवें बाचाटूनु व्हेल्यारि हांवें इतें तिप्रदंड लाक मारचिवे? तिनें लांबच्या लांब व्याख्यानाचि मारलें" "पुरत्यानें हांगा थावनु विपरीत वाडडोवनु घेतल्यां म्हणल्यारि!! हांगा लाक मारुक लावंच्याक हांवें इत्तें डोंगरचिनिवे? कोणेयि आयकल्यारि इतें म्हणशिनाति?" "अय्यो त्या अय्यगळ देवरायालि बायल कोण कोटीचि धिंडि!!! गोरुंसो बामूणु, पाप ताका दमडेक हैराण कोरनु दवरला खैं!!" उलयितल्यां तोंडाक म्हणन नाका. आत्तं, जोडचें त्राण आंगांतुं आसतनाचि,

अचकरूटायेंनें चारि कास दवरनेति, धाप्पूसु धुप्पुसु खर्चु केलो, तरी म्हांताऱ्या कालारि हांगा थावनु म्होणचें जाता पळे, ते तिप्रंदंड लाकांचि मारका पडतीद. मजसालि दूत विचारी बायल नशिबानेंचि मेळल्या म्हुणु लेकचें. कोटेश्वर तेरा कलशुसो मात्तें हालयिलें इत्याक तें? फटिट हांवें म्हणले? माका इत्तें गोत्तु, हांगा थावनूचि सांगिलें बा. आपणाक येकेकि सोयरिक आयिलि, रंभा उर्वशी मेनकाचि!! धारेश्वर मन्नातू धूव येकु दोळों काशि आन्नेकु रामेश्वर; आन्नेकि अवकारी आम्मणी नाति, आरबि फत्तेमारिशि. हांव हांगात्रि चांग नीगा करतां म्हुणूचि चिके आंगानें गति घेतल्या म्हणलें. आमगेल्या लग्नावेळारि हांगा चोवंच्याक धा दोळे नप्रोतिशिले. मंगोलि फाटि देकिल्या तसाक, होटोलांतुलें पाड फुस्सु खावनु, फात्तोरुशी प्रकृती वायट कोरनु घेवंचि नाका. कपालाक मिरयांकणु लावंच्याक लागि सेज्जार वसार थायि ना. कुळारा गेलेल्याकडे माका खंतेक कारण कोरनु दवरचें नाका!! दोनि वेळा धडचि जेवण घेवंचें," म्हुणु मोग्गा तोंड कोरनु सांगूनु पार व्हयि म्हणशादवे?

ही अशि करतली म्हुणु फुडेचि दामाशायि बांदिलि हांवे. बोनसा रकमेंतुलें येक नीळें नोट खोच कोरनूचि, वरलेलें तिका दिलेलें हांवें. तरी कसलिकी सूट लागूनु, सुमार छानिशि केलि तिने, अट्ठावीस प्रश्न केले माका. हांव केद्दो!! आमगेल्या कंपनी मालकानें छक्का पंजाचो सट्टो खेळनु लाखांचो पेट्टु खाला, नांका कुडक्या मर्यादेक, रीण हाडनु बोनस दिल्यां, म्हुणु बगलाट सांगलें. न्हे जाल्यारि आजि फक्कड जेवण मारचि आशा खंयि आशिलि.

आहा! हा! आयचें हें जेवणा सुख देकूनु, माक्षीत्रि येवजणी केल्यारि, आजीकयि पोटटांतु फोवु कांडिल्याबारि जाता. लग्नाफुडे. हांव, अवुर्शे वृंदावनि मायेल्या खानावळींतु जेवतालों. आट वरसं हांवें खानावळी कूळु कशि खालो, आनि आजीकयि जीव धोरनु कशि वरलों, हो येकु चमत्कारुचि. गिरणींतुं घोळनु येवनु भुकेनें तोंडांतु घासु घालो, तांतु आग्गळ. "माये शितांतु आग्गळु" म्हणल्यारि "तुमगेलेचि कोणालोयि आसतलो. मगेल्या मात्याक आसवे" म्हुणु आपणाल्या मात्यावेल्या पदराचो धडधडिचि पुरावो दीवनु, आमगेल्या आरोपाचें खंडन करतालि.

व्हयि म्हणशाद्वे ?

वृंदावनि मायेंलागि, निमगिलेल्या प्रश्नाक समर्पक उत्तर आसतालें. मगेलि सगुणा जालि तरी, हजर जवाबीचि. तिगेल्या हात्तानें चूकीचि जायना; तसल्यांतुं जालि, त्या चुकीक येक बलवत्तर बचावे साक्षि असताचि, अशि जावनु ती चूकि म्होणूक फावना. खानावळींतुलें शीत, येकु दीसु निब्बर बडडें, आनेक दीसु मोब्बु हेज्जो. चूकूनु खयीं पुणी हाळीत जायद, रांदयो म्हणालेल्यो तीक तीक उज्जो ! ! सुरभूशेंचि जावकांज तसल्या त्या सांबाऱ्यचो भुरको मारशाद, तें ताळ्या सकल देवंच्या पैलेंचि, "सांब हरे" म्हुणु उल्लोचि कोरकाज ! ! !

जिब्बेरि कंड दवरलेल्यावारि जावनु नांक दोळ्यांतुल्यानें भागीरति भसभसकाज. ही आमगेली दैन्यावस्था चोयिलि वृंदावनि मांयि, तावळि, मेळ्यां मोगाने, गळसरी भरलेलो उदका तांब्रियो इदूर दवरता. तें उद्दाक गळगंट पिलेल्याक जेवणावि आशा खंचि !! आंवनु आयलें तरी, मायेंक सहस्र मंत्रपुष्पं घालिं तरी, सांबा-या भुरक्याचो भगभगु राबना. तावळि मर्याद सोडनु मांयेकडे येकु कातले कुडको मागूनु घेवनु तो चाबडायत आमगेल्या ब्रम्हचारि मठाचि वाट धोरचि. आट वरसं गेलिं.

तशीचि सगुणाने गांट वरलु बांदलो. मगेलि सगुणा पळ्या नांवानेचि सगुणा, निमगुवंकाजवे ? गुणानि जात भांग्रा घाटिट. जात भांग्रा घाटिट जाली तरी आट्टोवनु पेटटोवनु आभरण म्हणतातिं. आसो, ती उत्रांतु खांडो, तरी मनानें लोणिया उंडो ! ! म्हणूचि न्हैवें. आमगेल्या लग्ना दिवसु हांवें उलयितां उलयितां, माका घोंसाळ्या बज्जि म्हणल्यारि भो प्रीर्ति म्हुणु अेघाने येकचि फांता सांगिले; देवा मात्यावेलें फूलेंशि आजिवरेक घोसाळ्या बज्जि चुकयिने तिने. तितलें मात्र न्है, कालवण्याक बज्जि, तोंडा लावंच्याक बज्जि सकाळींचें बज्जि, सांजेचे बज्जि. इतलि मज्जेरि प्रिति तिका ! !

व्हयि म्हणशादवे ?

आमगेलि सगुणा आत्तं पक्का अन्नपूर्णा जाल्या म्हणल्यारि कोणाकयि विश्वासु बयसूक फाव ना. तितलें इत्याक ? तिनें रांदिल्याचि रुचि पोळोवनु, तिगेल्या आनु-आम्माने बोट चाब्बूनु घेतलें म्हणतां. जाल्यारि नवीन तिनें रांद्प शिकतना हांवं जीव चाब्बूनु घेतालों, तिगेल्या संद्पा शिपारशि कोरनु.

आसो, आजि येकूनु हांवें वियानेलींतु जेवंचो नमोनो चोवनु मगेलो दोस्तु वेंकटा म्हणालो "इत्तें देवराया, इतले दीस खंयि बरगाला बांवांतु आशिलो, की आजि तुका बकासुरालो भारु आंगारि आयला ? वेंकटा खैं गावळं जिरोंच्याक रात्रीत्रें जेवनाचि. जाल्यारि जेवण सोडलेल्यानें आंगांतु अशक्ति जावंच्याक नज्ज म्हुणु, अल्पाहारु घेता; तो कसलो की म्हणल्यारि, एकचि फरात भरि पावाचिं चाकं, उबगणि मारुक लोणि आनि मरगा पाल्या विटणेने गुडलायिलीं, चारि केळि, दोनि संत्रं येक सोणा नारला येदें फोपयिं फळ, शेरु खाज्जूरु, आनि ते सर्व समचि भिज्जूनु पचन क्रियेक सलीस जावंकाज म्हुणु दोनि शेरांचि भरणि भोरनु लस्सि. ह्या थरेचो उल्पाहारु केल्यारि व्यर्थ वाट लावनु घेतलो जीवाचि ! !

हांवें येकूनु, आजि, नांका पुडालागि थायि जेवण मारल्यां, आजि सगळो दिवसु मात्यारि मुसकुटि पांग्रोवनु निद्र काडतां. सानपण धोरनु हांव कुंभकर्णा कुळांचि आकाशवाणीचि पैलि सभा समाप्त जावंका तावळि मगेलें फाळें जावंकाज. परंतु सगुणाने बिडाराक येत आरम्भ, मंगल प्रभाता फुडेत्रि मगेलें रेशना दूद हाउनु बुडकुळो भरि ताक घाटूनु जात्तालें. आरे ! ! बागिल कोण टोकत ! पोस्टमनु आसतलो ओहो ! आमगेल्या घरकारणीने गांवां पावनु कागद बरयिल्या. कसलें बरयिल्या ?

"मगेल्या मोगा देवाक, "-भो भो भो मोगु !उद्कांतु हुम्मेवं त्रो!! मुर्तांतूंचि इतलो मोगु विकरायला म्हणलेश्या उपरांतें, खात्रीनें, माका हिने कसलिकी विट्टि लायल्या. "मगेल्या मोगा देवाक साष्टांग

नमस्कार-" पायंशि मैल दूर थावनु. हांवे हांगा एका यरोपियन महिलेक मराठि शिकोवंचें काम धरल्यां–कितल्या जन्माचि शाला मास्तराणि आशिलिकी ! ह्या जन्मांतुं अय्यगळ घराण्या सरशी गांट–वरलु बांदलो– तें इंगलीष माध्यमांतुं जावंकाज. मगेलें इंगलीष तितल्या पूर्तेचि हांगा गोन्तु आस. हांगाचें इंगलीष भो चांग आस. इत्तें म्हणलें तरी हांगा थावनु एम. ए. न्हैवे !! हे परमेश्वरा, खंच्या विष घडियेरि हांवे सांगलें तिका !! मेट्रीक अप्रेंटीस, मेट्रीकांतुं तीनि वरसं एप्रेंटीस-शिप केल्यां ह्या अर्थानें हावें म्हणलेलें. केलेलें खावंका आत्तं. मुखारि कसलें म्हणता ही ! " त्या निमित्ति, मराठी वाचन मालेंतुलो पैलो पाठु गोमटे इंगलीषांतुं भाषांतर कोरनु सांजेच्या टपालाकचि धाडनु दिवंकाज. चुक्कूनयें, मज्जि आण आस. "

हायरे भगवंता, ह्या आणेचें शुक्लकाष्ठयि लायल्यांमं ! ! आत्तं उपाय दुसरो ? केलेल्या शिवाय निर्वाहु ना. तो पाठु तरी कसलो पोळोवयां. आरे ! आरे !! ! आरे ! ! " टकळी फिरते गरागरा, सूत निघेंत भराभरा. " मरण वाट आयलि माका. तकलि फिरता गरगर, हाबको करता घर–घरु व्हे म्हणशादवे ?

–समाप्त–